जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४६ : आंक ७ : मार्च, २०२०



* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

## मांडावळ...



भायले आनी भितल्लीं चित्रां : भरत जगपाप



# तांकां आमचे नमन : चळवळ आडखळूंक ना मूं?

दर मार्चांत रवीन्द्रबाबांची याद खरपणान येता. पूण ह्या मार्चांत ती चडूच उमळशिकेन आयली. ताचें कारण, कोंकणी चळवळी मुखावेल्यो आडखळी आनी गोंयकारपण ह्या प्रस्नांच्यो जाल्ल्यो तिस्त्योवादऱ्यो!

रवीन्द्रबाब आशिल्ले जाल्यार ते अंदू ९५ वर्साचे आसपाचे. 'रायटर आनी फायटर' म्हणून तांणी मिरयले. तांच्या काळावेले ते एक पूर्णवेळ लेखक. रवीन्द्रबाबान आपणाक फकत लेखककेन्नाच म्हणलें ना. बाकीबाब म्हणटाले तशे बरोवपी वा कवी म्हणून मिरयलें ना आसत, पूण 'फायटर' म्हण मात ते मातूय अनमन नासतना सांगताले. लेखन ह्या झुजारीपणांतलो बायप्रॉडक्ट!

तेच भशेन कोंकणी लेगीत तांचे निमणें ध्येय खंय आसलें? कोंकणी साहित्य चळवळ ही तांणी जिणे-मोख केन्नाच मानली ना. भास, साहित्य चळवळींतल्यान तांकां गोंय घडोवपाचें आसलें. कोंकणी वाठार घडोवपाचो आसलो. कोंकणी मनीस घडोवपाचो आसलो. कोंकणी परिशदेचें तत्व फकत गोंयांत कोंकणी भास फुलची, गोंयांत साहित्य निर्माण जावन, हे भाशेन राष्ट्रीय - आंतरराष्ट्रीय पुरस्कार लाबचे हें केन्नांच नासलें, अशें तांणी सेगीत किंवाटून सांगिल्लें. कोंकणी परिशदेचें तत्व तितलेच मर्यादीत आसलें जाल्यार हे परिशदेचे जाळवणदार माधव मंजुनाथ शानभाग - जे कारवारचे आसले - कित्याक तळमळटले आसले?

माधव मंजुनाथ हांणी कोंकणी परिशद घडयली, कारण तांकां कोंकणी प्रांत घडोवपाचो आशिल्लो. सगळो कोंकणी उलोवपी वाठार एक जावचो. तातूंत कोंकणी अस्मिताय केळची तशें जाल्यारूच कोंकणी मनशाची वळख घडूंक पावतली आनी आमचें गोंय आनी गोंयांतली कोंकणीय 'सुगूर' करूंक पावतली अशें रवीन्द्रबाबांक दिसं.

रवीन्द्रबाब भायर पडटकच कोंकणी आपणालो हो हावेस विसरली काय कितें?

तसो दुबाव मारपा सारकी परिस्थिती आसा, कारण कोंकणी चळवळीक सध्या कसलोच राजकीय हावेस उरूंक ना. साहित्य सोडून कोंकणी चळवळीक दुसरें कायच लागना अशें दिसता. आज खंतीची गजाल म्हणल्यार आयच्या लेखकांक, साहित्यिकांक तातूंतच समादान आसा! कोंकणींत "आत्मसंतुश्टताय" भरून ओतूंक लागल्या आज तीच कोंकणी मुखा वेली एक मोठी आडखळ - तिका लागून फुडल्या काय वर्सांत कोंकणी चळवळींत खूब मोठी तखलामी घडूं येता!

**पाश्वभूमी मतींत घेयात :**

गोंय सरकारचे आयज कोंकणीकरण जावंक ना. ह्या सरकाराक कोंकणी राजभाशेची कारवाय जावचीशी दिसना. ताची फाटपुरवण कोंकणी चळवळींतल्यान जातना दिसना. परिशद तसो थाराव घेवपाकूय भेश्टता. गोंयांत रोजगार मेळटलो जाल्यार कोंकणी सक्तीची आसूंक जाय. पूण तीय नेमाची खरपणान कारवाय जायना. वेल्यान तो नेम पातळ जायत चल्ला.

गोंय सरकारचे खण धोरण, पर्यटन आनी अर्थकारण भायल्यांची ल्हारा निर्माण करता. ह्या धोरणाक थळावे भाशेचें पडून वचूंक ना. राज्य सरकारची तशी माण्णी ना आनी ह्या लोकांक कोंकणी करपाचीय येवजण कोंकणी संस्थां कडेन ना. दुसरी म्हत्वाची गजाल, जी खूबच भिरांकूळ आसा - ती म्हणल्यार गोंयांतली क्रिस्तांव लोकसंख्या वेगान कमी जायत चल्ल्या. एका अंदाजा वेल्यान ती सामकी १८ टक्क्यांवर पावल्या म्हणपाची खंत आसा. ही कोंकणीची एक मोठी शक्ती - जी पातळ जावप म्हणल्यार 'गोंयकारपणाचें' समीकरण सासणाचें शेणपाच्या दिकेन पावप असोय ताचो अर्थ.

हे फाटभुंयेचेर कारवार वा सिंधुदुर्ग - जे पुरायेन कोंकणी वाठार आसात आनी ते गोंयांत येवंक आंवडेतात - गोंयांत आयलेनात जाल्यार कोंकणीच्या मुळपिठांत कोंकणीची भिरांकूळ आवतिकाय जावन पडटली. मागीर कोंकणीची सिमीत शक्त फकत साहित्या खातीरच उरतली आनी - तितलीच आयच्या चळवळीची मर्यादाय जावन पडटली.

हे फाटभुंयेचेर सरकाराक जाप विचारप; सरकारी धोरणां निवळावपाक लावप; अर्थकारणांत रुची घेवप; गोंयकारपणांचें तत्व पातळ जावंक दिवप ना; हाचे खातीर कोंकणी चळवळीन फुडाकार घेवचो पडटलो. लेखकांक बरपांत हे विशय घेवचे पडटले. म्हादय, खण प्रस्न, पर्यटनाची दिका, पर्यावरण हे प्रस्न आयचे आनी कोंकणी चळवळी कडेन तांचो लागींचो संबंद आसा, हे मतींत घेवन ते चळवळींत झोकून दिवन वावर करचो पडटलो. रवीन्द्रबाबांनी खण प्रस्नांचेर सतत बरयलां. गोंय मुक्त जायत सावन ते ह्या विशयाचेर किंवाट्यान बरयताले. गोंयच्या दरेका प्रस्नार तांची स्पश्ट भुमिका आसताली. तांणी अनमननासतना राजकीय प्रस्नां खातीर लडो दिला. जनमत कौलावेळार वैचारीक दिका दिल्या. गोंय मुक्तिची चळवळ धरून राजभास आंदोलन आनी ते उपरांत गोंयकारपण पातळ जावचे न्हय, म्हणून ते नेटान वावुरल्यात. इनामां खातीर ते वावुरले नात. तीं तांच्या वाट्याक येत गेलीं. पुरस्कार आनी ज्ञानपीठ, पद्मविभूषण हांचीय तांणी फिकीर केली ना. गोंयकारपणा खातीर तांणी चिरमिरे काडले. ह्या म्हान गोंयकारान कोंकणी चळवळीची दिका थारायली, जी तांच्या ९५व्या जयंती दिसा खूबशा प्रमाणांत साचून उरिल्ली दिसता!





# रवीन्द्रबाब - कोंकणी समाजाचो म्हापुरुश

डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार

गोंय मुक्त जावनय कोंकणी समाजाचेर लाचारपणाची जीण जियेवपाचो प्रसंग येवपाचो आशिल्लो, पूण स्वाभिमानी गोंयकारांनी ह्या व्हड संकश्टांतल्यान गोंयांक आनी गोंयकारांक भायर काडपा खातीर यत्नांची शिकस्त केली. हें घडून येवपा खातीर ज्या गोंयकारांनी आपणालें रगत आटयलें आनी आपणालें सबंद आयुश्य हें ध्येय साध्य करपा खातीर ओंपलें, तातूंतले कांय गोंयकार म्हज्या दोळ्यां मुखार ठसठशीतपणान उबे जातात. रवींद्रबाब केळेकार हे अशा गोंयकारां मदलें एक मुखेल व्यक्तिमत्व. १९२५ ह्या वर्सा कुंकळ्ळी-साश्टींत जल्माक आयिल्लो हो व्हड गोंयकार आयज आमचे मदीं आशिल्लो जाल्यार गोंय जे दिकेन वता तें पळोवन कश्टी जातलो आशिल्लो. पूण, म्हाका खात्री आसा की, आयज ९५ वर्सांचे पिरायेरय वोग्गी बसचो नाशिल्लो. आयजचे परिस्थितींतल्यान गोंयाक आनी कोंकणी मनशांक भायर काडपा खातीर प्रयत्नांची शर्थ करतलो आशिल्लो. रवीन्द्रबाब हे फकत विचारवंतच नाशिल्ले. तांच्या विचारांक कृतीची जोड आशिल्ली. ते ''मॅन ऑफ ॲक्शन'' आशिल्ले, हें तांणी आपणाल्या तरणाटेपणा सावन दाखोवन दिलां. गोंयांक स्वतंत्र प्रादेशीक व्यक्तिमत्व आसा आनी गोंयान इतिहासकाळांत वेगळ्यो वेगळ्यो परकी भासो आपणायल्यो, तरी ताका स्वताची भास आसा, जी कोंकणी, हें सत्य तांकां तरणाटेपणांतच होलमल्लें आनी अशें सत्य होलमल्ल्या शणै गोंयबाबांच्या पावलार पावल दवरून तांणी गोंय - मुक्ती आदीं आनी मुक्ती-उपरांत आपणाल्या समाजीक वावराची दिका थारायली आनी गोंय-मुक्तीच्या होमखणांत उडकी घेतली. तेच बरोबर, कोंकणी मनशाक ताचो स्वाभिमान परतो मेळोवन दिवपाच्या वावरांतय वांटो घेवन कोंकणी भाशेक तिची हक्काची आनी मानाची सुवात मेळोवन दिली.

हो वावर मुखार व्हरपी खूब गोंयकार आशिल्ले पूण, भोवतेकांचो वावर फकत राजकी मळा पुरतोच मर्यादीत आशिल्लो. साहित्य, संस्कृती, समाजीक जीण आनी राजकारण बी सगळ्या मळांचेर वावरून कोंकणी भास आनी गोंयचें प्रादेशीक व्यक्तिमत्व हांची राखण करपाचो वावर हातांत घेतिल्ले गोंयकार खूब उणें आशिल्ले. अश्या लोकां मदीं रवीन्द्रबाब हांचो वावर आमच्या दोळ्यां मुखार ठसठशीतपणान उबो रावता. गोंयची मुक्ती जाल्या उपरांतचो काळ हांव जेन्ना दोळ्यां मुखार हाडटां, तेन्ना म्हाका रवीन्द्रबाबांच्या कर्तुत्वाचे योगदान गोंयचें स्वतंत्र व्यक्तिमत्व राखपा खातीर कितलें मोलाचें आशिल्लें, हाची जाणीव जाता. १९ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा जाल्ले गोंय-मुक्ती उपरांत हे मुक्तीक पुर्णत्व हाडपी ज्या घडणुकांनी भारताच्या इतिहासांत मानाची सुवात मेळयल्या तातूंत रवीन्द्रबाबांचे योगदान दोळे दिपावणें अशें आसा. कोंकणी भास आनी गोंयचें खाशेलें स्वतंत्र प्रादेशीक व्यक्तिमत्व सांबाळून दवरपी, १६ जानेवारी १९६७ ह्या दिसा जाल्लो ओपिनियन पोल, २६ फेब्रुवारी १९७५ हे दिसा कोंकणी भाशेक मेळिल्ली केंद्रीय साहित्य अकादमी, नवी दिल्लीची मान्यताय, ४ फेब्रुवारी १९८७ हे दिसा कोंकणी भाशेक गोंयची राजभास म्हुणून मेळिल्लो दर्जो, ३० मे १९८७ हे दिसा गोंयाक मेळिल्लो पूर्ण राज्याचो दर्जो आनी २० ऑगस्ट १९९२ हे दिसा कोंकणी भाशेचो भारतीय संविधानाच्या आठव्या परिशिश्टांत जाल्लो आसपाव, हीं सगलीं गोंयकारांनी मेळयिल्लीं जैतां आसात, कोंकणी मनशाचीं ही जैतां आसात, आपणालो वेळ आनी शक्ती खर्चून व्हड त्यागान मेळयिल्लीं हीं जैतां आसात. अन्याया कडेन झगडून कोंकणी भाशिकांनी कोंकणी भाशेक, आनी फकत ३७०३ चौखण किलोमीटरचो भुगोलीक आवाठ आशिल्ल्या आपणाल्या प्रदेशाक मानाची सुवात मेळोवन दिली आनी गोंयांतली लाचार प्रवृत्ती नानपयत करून वडयली. (दुर्दैवान, आजय ही लाचार प्रवृत्ती पुराय नश्ट जाल्ली आमकां दिश्टी पडना.) गोंयचे जिणेंत हें सगलें बरें घडून आयलें ताचे फाटल्यान खूब जाणांचो, तरणानाट्यांचो हातभार लागलो. पूण रवीन्द्रबाबांचो हे बाबतींतलो वावर आनी तांणी दिल्ली स्फूर्त आमी कोणच विसरूंक शकनात.

रवीन्द्रबाबांनी मुळावें शिक्षण आनी चार वर्सांचो प्रिमेरू ग्राव आनी

सेगुंदु ग्राव, हो मुळाव्या शिक्षणाचो कोर्स पुराय करतकीर पुर्तुगेज लिसेवचो स वर्सांचो कोर्स पूर्ण केलो आनी उपरांत १९४६त डॉ. राम मनोहर लोहिया हांणी सुरू केल्ल्या गोंय सुटके झुजांत वांटो घेतलो. महात्मा गांधींच्या अहिंसा आनी सत्याग्रह ह्या विचारांचो तांचेर प्रभाव पडिल्ल्यान दोन वर्सां उपरांत महात्मा गांधींच्या सत्याग्रहाचो अभ्यास करपा खातीर ते काकासाहेब कालेलकर हांच्या सहवासांत वर्धा आश्रमांत स वर्सां रावले आनी तांणी गांधी विचार आत्मसात केले. 'मीर्ग' ह्या नांवाचें पंद्रशी नेमाळें दोन वर्सां चलयतकीर, मागीर नवी दिल्लींत गांधी स्मारक संग्रहालयांत तांणी एक वर्स ग्रंथापाल म्हणून काम केलें. १९५६त मुंबयंत 'गोमंत भारती' संस्था स्थापन केली आनी रोमी लिपयेंत कोंकणी भाशेंत 'गोमंत भारती' हें साताळें उजवाडाक हाडून तें तीन वर्सां चलयलें. ह्या साताळ्याचे ते संपादक आशिल्ले. १९६० ह्या वर्सा गोंयांत परततकीर गोंयच्या सुटके झुजांत तांणी वांटो घेतलो आनी हाका लागून दोन म्हयने तांकां बंदखण भोगची पडली. १९६२ त मडगावांत जाल्ले आठवे कोंकणी परिशदेचे ते येवकार अध्यक्ष आशिल्ले. १९६२ ते १९८० मेरेन तांणी सक्रीय राजकारणांत वांटो घेतलो. रवीन्द्रबाबांच्या समाजीक / राजकीय वावराची म्हाका सासणाची याद आसा ती तांणी सरकारच्या गोंय-विरोधी धोरणाचो निशेध करपाक ह्या काळांत केल्ल्या आंदोलना खातीर. गोंय सरकारच्या आड तांणी एके तरेचें झुज दिलें, अशें म्हणल्यार जाता. हे आंदोलना खातीर निदर्शनां, मिरवणुको हे रुपांत ते रस्त्यार देंवले. १९६९त कोंकणी लेखक संमेलनाचे आनी १९७८त कोचींत जाल्ल्या अ.भा. कोंकणी परिशदेचे ते अध्यक्ष आशिल्ले.

हें सगळें आमकां दाखोवन दिता की, रवीन्द्रबाब हांणी साहित्याची सेवा, हेंच आपणाल्या वावराचें लक्ष्य दवरलें ना. कोंकणी, गोंय आनी गोंयकार हांकां न्याय मेळोवन दिवपा खातीर मुखार सरिल्लो एक कृतिशील राजकारणी म्हूणून तांणी आपणाली प्रतिमा निर्माण केली. दिसाळीं आनी हेर नेमाळीं हातूंत तांणी बरयिल्ले लेख तांचो वैचारीक आनी साहित्यीक पांवडो दाखयतात, पूण तेच बारोबर लोकांच्या प्रस्नांविशीं तांकां कितलें आपणेपण आशिल्लें, हाचीय गवाय दितात. हीच मोख सामकार दवरून तांणी आनी सुमंतबाब केळेकार हांणी १९७४ ह्या वर्सा ''जाग'' हें म्हयनाळें सुरू केलें. सर्गेस्त माधवी सरदेसाय हांणी तें मुखार व्हेलें आनी जयवंतराव सरदेसाय हांचो ताका मोलाचो तेंको लाबलो. आयज सर्गेस्त माधवी आनी श्री. राजू नायक हांची धूव आसावरी नायक ''जाग'' म्हयनाळ्याचें येसस्वीपणान संपादन करता. रवीन्द्रबाबाचें साहित्याक व्हड योगदान लाबलां, हें कोणाकय पळोवपाचें आसत जाल्यार तांणी तांचें 'हिमालयांत', 'ब्रह्मांडाचें तांडव', 'भाशेचें समाजशास्त्र', 'महाभारत' (अनुसर्जन) ह्या ग्रंथाचे दोन खंड आनी हेर साहित्य वाच्चें. कोंकणी भाशेक मेळिल्लो केंद्रीय साहित्य अकादमीचो पयलो पुरस्कार हो तांच्या 'हिमालयांत' ह्या पुस्तकाक लाबलो. तांचें वैचारीक आनी हेर साहित्य मराठी, गुजराती आनी हिन्दी ह्या भाशांतय उजवाडाक आयलां.

१९७७ ते १९८८ ह्या काळांत केंद्रीय साहित्य अकादेमी एक्झेक्युटीव्ह कमिटीचेर वांगडी म्हणून तांणी केल्लो वावर कोंकणी भाशेक खूब मोलाचो थारलो. तांची घरकान्न गोदूबाय केळेकार ह्यो एक कोंकणींतल्यो बऱ्यो साहित्यीक म्हूणून गोंयकार तांकां वळखतात. गोदुबायचीं कोंकणी पुस्तकां हांवें पुर्तुगेजाच्या काळांत वाचल्यांत, आनी तांचो म्हज्या मनाचेर जाल्लो परिणाम म्हजो कोंकणी वयलो मोग वाडोवपी थारला. नव्या कोंकणी लेखकांक रवीन्द्रबाबांनी सदांच उर्बा दिल्या. म्हज्या 'आस्वादन' पुस्तकात तांणी बरयिल्ली प्रस्तावना ही ताची गवाय आसा. भारतांतलो हिन्दू समाज हो विवीध जातींनी विभागिल्लो आसा. ह्या सत्याची जाणीव रवीन्द्रबाबांक आशिल्ली. जाती-संस्थेचे रूप बदलपाक जाय आनी हिन्दू समाजांत समानताय निर्माण जावपाक जाय, हे रवीन्द्रबाबांचें मत. आपणालें हें मत मांडपा खातीर ते जेन्ना सारस्वत समाजाच्या संमेलनाक हाजीर रावले, तेन्ना तांचेर टिका जाली. हांव ह्या विशयाचेर तांचे कडेन उलयलों, तेन्ना म्हजी खात्री पटली की, जाती-संस्था कायम उरची, ह्या मताचो रवीन्द्रबाब पुरस्कार करिनात. हिन्दू समाजांत समानताय निर्माण जावंची, ह्या मताचे ते आसात. ह्या विचारवंतान जिविता विशीं आयुश्यभर जें चिंतन केलें तातूंत हिन्दू समाजा विशींचें तांचें चिंतन हें बुनयादी स्वरुपाचे आसा अशें म्हजें मत. गोंयाक स्वाभिमान मेळोवन दिवपी ह्या म्हापुरुशाक तांच्या ९५व्या जल्मदिसा म्हजें नमन.

संपर्कः ९४२३३१७६१४

# कोंकणी युवा पिळगेच्या पुरुशार्थाची जाप काळ न्हय ती आमीच दिले बगर आज आमकां गत्यंतर ना...!!

**दिलीप बोरकार**

साहित्य अकादमी खातीर रवीन्द्र केळेकार हांचेर बरयल्ल्या चरित्राच्या हात बरपाचेर ह्या दिसांनी निमणो हात भोंवडायतालों. निमण्या ' निश्कर्श ' ह्या १८ व्या प्रकरणाचेर पाविल्लों. निमण्या पाना वयल्या निमण्यांतल्यान तिसऱ्या परिच्छेदाचेर हांव गणमणलों. हो परिच्छेद असोच सांडुया काय तातूंत बदल करुंया हे ताळणेंत हांव पडलों. म्हाका तो आसा तसोच पुस्तकांत गेल्लो जाय आशिल्लो. कित्याक तातूंत रवीन्द्रबाबांची आनी म्हजीय फुडाराची अश्रेकणी आशिल्ली. पूण आयची गोंयचीं परिस्थिती अभ्यासत जाल्यार हांव सत्याचो विपर्यास करतां, हांव म्हजेच कडेन प्रामाणीक ना अशें कितें तरी म्हाका दिसूंक लागलें. कितें बरयल्लें हांवें ह्या चरित्राचो अखेर करता आसतना...



...रवीन्द्रबाबां पासत कोंकणीची चळवळ ही निखटी भाशेची, साहित्याची चळवळ नाशिल्ली. कोंकणी चळवळ ही वैचारीक राजकीय चळवळ अशें ते मानताले. कोंकणी चळवळी फाटल्या तांचे मोखीचो आपरोस काडलो जाल्यार तांचे पासत कोंकणीचो वावर म्हणल्यार-

फाटल्या कांय शतमानां सावन एकामेका पासून पयस वचून, दोन स्वायत्त संवसारांत रावतल्या गोंयच्या हिन्दूंक आनी क्रिस्तांवांक तशेंच मोयरांक एक भास, एक लिपी, एक साहित्य आनी एक संस्कृती ह्या सुतान एकठांय गुंथून काडपाचो, तांचो एक समाज घडोवन हाडपाचो वावर... तेच प्रमाण पुर्तुगेजांच्या शेका खाला आशिल्लें तेंच गोंय मानी नासतना आपली नदर विशाळ करून आयच्या कर्नाटकांत आशिल्लो कारवार, सुपा, हल्याळ आनी हेर कोंकणी भाशीक वाठार एक करून मुळचें गोंय निर्माण करपाचो वावर अशें तांणी तकलेंत दवरिल्लें आनी तेच दिकेन ते कोंकणी चळवळ घेवन मुखार वताले.

तांचें हें सपन पुराय जालें ना तरी ते वतना हो वावर कोंकणी मनशाच्या खास करून युवा पिळगेच्या हातांत दिवन गेल्यात. ते कोंकणी मनीस पुरुशार्थी मानताले आनी ताचेर तांचो विश्वास आशिल्लो. तो पुरुशार्थ शार्थी पावोवप ही आयचे पिळगेची जापसालदारकी काय कितें हाची जाप काळूच दितलो...

'खास करून युवा पिळगेच्या हातांत दिवन गेल्यात...' ह्या वाक्याचेर हांव थारिल्लों.. ते तशें करून गेल्यात हें खरें. तांकां तशें दिसतालें. कित्याक ते संद मेळटा तेन्ना आपल्या उलोवपांतल्यान वा बरोवपांतल्यान - आपूण निपुत्रीक न्हय आपले फाटल्यान आपणें कोंकणीक कर्तृत्वी पिळगी दिल्या - अशें सांगत आयिल्ले. आपूण आनी आपले पिळगेंतले सगळे कर्तृत्वी कोंकणी मनीस शणै गोंयबाबांचे वारस आनी तांचो वावर आमी आपल्या भुजांर घेतला तसो आपलो वावर फुडली पिळगी घेतलीच घेतली हाचेर तांचो विश्वास आशिल्लो आनी तो फट थारचो न्हय म्हणपाचो यत्न म्हज्या सारख्यांनी आपले तांकी प्रमाण केला हातूंत दुभाव ना. पूण म्हजे उपरांतची आयची जी तरणी पिळगी आसा ती तांच्या विश्वासाक जागतली काय कितें? असो एक दुबावाचो प्रस्न म्हाका आफडून गेलो. कित्याक असो हांव अविश्वास दाखयतां आयचे युवा पिळगेचेर..?

रवीन्द्र केळेकारां वयलें चरित्र नदरे सकयल घालपाच्या वावरांत हांव घुसपल्लो आसतना ज्या तरणाट्यांचेर रवीन्द्रबाब पातयेवन आशिल्ले त्या युवकांचीं दोन फेस्तां त्याच दिसांनी जालीं. एक जालें १८-१९ जानेराक मडगांवां आनी दुसरें जालें ७-८ फेब्रुवारीक हरमला. जानेराक जाल्ल्या फेस्ताक 'युवा महोत्सव' म्हूण वळखतात. तो कोंकणी भाशा मंडळान आयोजीत केल्लो. जाल्यार दुसरें फेस्त गोवा कोंकणी अकादेमीन आयोजीत केल्लें ताका 'युवा साहित्य संमेलन' म्हणपाची चाल आसा. दोनूय फेस्तां यशस्वी जालीं हातूंत दुबावूच ना. यशस्वी जालीं म्हणल्यार कितें..? तर माटोव बरो सजयल्लो, युवाय सामकें फेस्त उलगड म्हणसर गर्दी करून राविल्ले, तांणी बऱ्यो बऱ्यो कला सादर केल्यो, उलोवपां रंगलीं. माटवांत बशिल्ल्यांनी तांची तोखणायूय केली. युवाय आपले मर्दी, 'कशें जालें? सोबयलें मरे सवंग..?' अशे एकमेकांक विचारून आपमोलावणीय करून मेकळे जाले आनी फुडल्या फेस्तां कडेन नदर दवरून आपापल्या कामाक फाफसले. अशें सगळें बेस बरें जावन गेलां आसतनाय म्हजी पिरंगणी शी कित्याक काय..? काय म्हाका पिरंगवाची संवंयच जाल्या काय..? म्हातारपणाचें लक्षण

बी न्हय मूं हें..? असोय वाचप्यांक प्रस्न पडूं येता.

एक सर्वसामान्य गोंयकार म्हूण जर हांवें आयज आयचे युवा पिळगेचेर नदर भोंवडायली जाल्यार म्हाका ते पिळगे विशीं हुस्को करपा सारकें विशेश कायच दिसना. ती सुखी आसा. ती वेवस्थीत शिक्षण घेता. तांचे आवय बापूय तांचो फुडार घडोवंक विचार करतात. ते पासत दिसरात कश्ट करून दुडू जोडूंक आबजतात. आपल्या भुरग्यांक जें कितें जाय नाका तें पळयतात. तांणी तोंडांतल्यान उतर काडपाचीच फुरसत मागता तें तांचे पासत हजर आसता. पुस्तकां जाय पुस्तकां, मोबायल जाय मोबायल, मोटरसायकल जाय तीय मेळटा. इतलेंच न्हय तर शिक्षण पदरांत पडल्या उपरांत मागीर नोकरेक खंय दसवपाचो, ते पासत कोणाचे पांय धरपाचे वा कोणाच्या बोल्सांत कितले घालपाचे हाची सगळी वेवस्ता तांणी करून दवरिल्ली आसता. म्हणटकच हे तरणे पिळगेचो हुस्को करपाचें कारण तांच्या पालकांकूय ना आनी समाजाकूय ना. तरीय पूण गोंयचो हुस्को लागिल्ल्या म्हज्या सारख्यांक हे तरणे पिळगेक पळोवन हुस्को सो जाता.

हाचें कारणूय आसा. हांचे पिरायेची जेन्ना म्हजी पिळगी आशिल्ली तेन्ना तांतल्या बऱ्याच जाणांक आयज हांकां जशें कितें सगळें फावो जालां तशें वांट्याक कांयच नाशिल्लें. पुस्तकां घेवपाची ऐपत नाशिल्ल्या कुटुंबांत सायकल मेळपाची शक्यताय नासतालीच. परिस्थितीची कल्पना आशिल्ल्यान अमुकच जाय म्हूण सांगपाक मनाक पुटवंय नाशिल्लें. 'तुझा तू वाढवी राजा' म्हणून आवय बापायन सोडून दिल्ले. अशे परिस्थितींत आनी वातावरणांत त्या काळांतली आमची युवा पिळगी आपले परीन झरत मरत वयर सरली. तीच पिळगी जी आयज पन्नास-साठी कडेन पावल्या ती आपल्या वांट्याक आयिल्लें तें आपल्या भुरग्यांच्या वांट्याक नाका म्हूण आपल्या भुरग्यांक तांचो फुडार घडचो म्हूण आपूण खस्तो खायत तांचें सूख पळयता. आयज जांचे कडेन आमी युवा पिळगी म्हूण पळयतात आनी युवा महोत्सव जावं युवा साहित्य संमेलनांत तांचें वावरप पळोवन तांचे दिश्ट काडटात ती तीच पिळगी. तातूंत त्या काळांतले पिळगे मदीं म्हजे सारखेय कितलेच तरणाटे आशिल्ले जे वेगळी वाट धरून मुखार आयले. तांकां मात आयचे हे सुखान नंदतले पिळगेक पळोवन नसाय जायना तर हुस्को जाता. कित्याक तांचे कडेन पळयतना ते आपले नदरेंतले अपेक्षेन पळयतात. मागीर अपेक्षाभंग जालो काय पिरंगतात. हें मेरेवयल्यांचे पिरंगणें न्हय तर ते पिरंगणेंतल्यान आयचे युवा पिळगेंतल्या इंगळ्यांक फूंक बसची आनी ते फरफरून पेटचे अशी अपेक्षा आसता.. पूण तांच्या अपेक्षा भंगांतल्यान तांच्या मनांत नटसम्राटांतल्या अप्पा बेलवळकरांच्या संवादांतल्यो दोन ओळी सतत वळवळत रावतात. म्हजेच पिळगेंतल्या अजित केरकार ह्या गुणी कलाकारान हालींच तें कोंकणी करून माचयेर हाडलां. तातूंत- 'हय, हय तुमीय तरूण आसात.. तुमी तरूण आसात देखूनच तुमकां करूंक येता संभोग मनशांची मादीं लागीं..' - तर कित्याक तयार जातात हें अशे संवाद तरणाटेपणाचेर दुभाव घेवपी? कित्याक तर असलें तरणेपण जें जाणटेल्यांची सपनां पुराय करी नात तें तरणेपण सदां दुभावितूच थारता.

गोंयच्या ह्या युवा फेस्तां कडेन जेन्ना हांव पळयतां तेन्ना हांव पंचवीस वर्सां फाटीं वतां. हे वर्सा कोंकणी भाशा मंडळ आयोजीत युवा महोत्सव हो रजत महोत्सवी. पंचवीस वर्सां आदीं जेन्ना कोंकणी भाशा मंडळान युवा महोत्सव आयोजन करपाचो निर्णय घेतलो तेन्ना भाशा मंडळाचो हांव उपाध्यक्ष आशिल्लों. राजू नायक अध्यक्ष आशिल्लो. शेगीत तीन टर्म्स् म्हणल्यार स वर्सां ही समिती भाशा मंडळाचो कारभार पळयताली. भाशा मंडळाची इमारत उबी करपा पासून हेर बरींच कामां ह्या स वर्सांत जाल्लीं आनी ताची तोखणायूय जाताली. युवा महोत्सव हेंय एक त्या कार्यकाळांत जल्माक आयिल्लें अपत्य.

त्या काळार भाशा मंडळाची जी समिती आशिल्ली ती आपलो वेळ आनी पदरचो पयसो खर्च करून आपले परीन ह्या वावराक योगदान दिताली. (उपकार करून आतांचे वा आदले समितीन 'आमी कितें वेळ दिनात? आमी कितें भाशा मंडळाच्या पयश्यांनी कामां करतात?' असो वाद निर्माण करचो न्हय. हांव फकत त्या काळचो एक युवा हे नदरेन काळाची मोलावणी करतां.) ताचें फाटलें कारण म्हणल्यार ही जी पिळगी आशिल्ली ती आदले पिळगेच्या फुडारपणा खाल घडिल्ली. कोंकणीचो वावर कसो करचो, ताची दिका कशी आसची, ते पासत आपणालें योगदान आसप कितलें गरजेचें आनी कशें पुरुशार्थी... हाचें शिक्षण हे चळवळींत घेवन ही आमची पिळगी तयार जाताली. तातूंत मतबेद जरी आसले तरी ते उकताडार हाडी नासतना जाणटेले पिळगे कडेन संबंद दवरून तांचें मार्गदर्शन घेवप, कोंकणी चळवळीची दिका समजून घेतनाच ताची रणनिती शिकून घेवप, साहित्य म्हणल्यार रोखडीच प्रसिद्धी मेळपी उखलापी गजाल न्हय तर ताका तपश्चर्या लागता आनी ते पासत ज्येश्ठ साहित्यिकांचें मार्गदर्शन गरजेचें आसता, तांचें साहित्य समजून घेवपा वांगडाच तांणी वाचन केल्लें साहित्य वाचून आनी अभ्यास करून आपलें साहित्य ते कसवटणेचेर खंय मेरेन आसा हाचो अणभव घेवप अश्यो गजाली ते वेळार घडटाल्यो. तातूंतल्यान युवा पिळगी आपल्याक घडयताली. विद्यार्थी दशेंतल्यान चळवळीचो सांगात लाबिल्ली ही पिळगी क्रांतीकारी फुडाऱ्यांच्या जिविताचो आनी साहित्याचो अभ्यास करून आपल्याक घडयताली. नव्यो नव्यो चळवळी उब्यो जाताल्यो. तातूंत वाटो घेवप हें आपलें कर्तव्य अशें सगळ्यांक दिसतालें. समाजा कडेन उगड्या दोळ्यांनी पळोवन खंय अन्याय दिसलो जाल्यार त्या विरुद्ध आवाज काडप, चळवळ उभारप, समाजांत जागृताय हाडपा खातीर रस्तोनाट्यां बसोवप अशें कितें तरी घडत आसतालें. तें घडूंक जायच म्हूण कोण ना कोण कितें तरी उसतून काडटालेच. तातूंतल्यान मागीर उजो पेट्टालो. युवा शक्त जिती आसा म्हणपाची सतत जाणविकाय घडटाली. त्या काळार श्रीधर कामत, राजू नायक, संदेश प्रभुदेसाय, शैलेंद्र मेहता बी कितलेच जाण एकांकी, नाटक, कविता हातूंतल्यान इंगळे जावन फुलताले. आज ते संवसारांत रमले तरी तांचें रसरसप मात्तूय उणें जावंक ना. पूण आज फाटलीं दोन दसकां दोळ्या मुखार असलें कांयच दिसना. दर वर्सा युवा महोत्सवांत तीन-चार हजार युवा वांटेकार जातात आनी घोस्त काडटात म्हणपाचें कानार पडटा. कोंकणीचें हें व्हडलें जैत म्हणटात. पूण ही युवाशक्त खंयचोच सामाजीक प्रस्न घेवन रस्त्यार धुमशेणां काडटना दिश्टी पडना. तांतली थोडी शक्त दिसता ती खंयच्या तरी राजकी पक्षाचे भितोडेक,

पक्ष फुडाऱ्यांचे पोवाडे गायत दर म्हयन्याक बिदागी घेवपी. मागीर आमी युवा महोत्सवाचो रजत महोत्सव हालीं मनयलो म्हणल्यार कितें केलें हो जो प्रस्न म्हजे सामकार आसा तो सुटावो जायना.

एका काळार कोंकणीच्यो कितल्योच कार्यावळी जाताल्यो. तातूंत नवे नवे युवा वांटेकार जाताले. गोंयच्या खंयच्याय खांची कोनशाक कोंकणीची कार्यावळ आसा म्हूण कळत जाल्यार आपल्या बोल्सांतले दुडू खर्च करून थंय हजेरी लायताले. तांकां निमंत्रणाची गरज पडनाशिल्ली. आपल्याक थंय कांयच भुमिका ना म्हणपाचो फुगरो नासतालो. आज पणजेंतलो तरणाटो, जो समाज माध्यमाचेर दसून रावून कविता करता तो पणजेंत आशिल्ले खंयचेच कार्यावळीक हजर रावना. कार्यावळींक आसतात तेच लोक जे चाळीस-पन्नास वर्सां आदीं कोंकणी चळवळींत आशिल्ले. तातूंतले आतां एक एक करून उणें जायत आशिल्ल्यान तांच्या नांवान माची आसली तरी माटवांत खुर्च्यों रिकाम्योच दिसतात. जे कोण हजर रावतात तांच्या भुरग्यांनी कोंकणीची लागणूक म्हूण आपल्या आवय-बापाय वांगडा संमेलनाक वा कसलेय कार्यावळीक तांचें बोट धरून येवंचें अशी जरी अपेक्षा नासली तरी तांणी आपले संकल्पनेंतल्यान कोंकणीची वो गोंय संबंदी एखाद्री कार्यावळ राबोवन ती चालीक लायिल्ली दिसना. मागीर गोंय, कोंकणी हाचो फुडार खंयचे नदरेन परजळीत आसा अशें म्हणपाचें...? युवा महोत्सवांत हजारांचे संख्येन हजेरी लावपी युवाशक्त जर महोत्सवाचे ते दोन दीस उलगल्या उपरांत वर्सभर खंयच झळकना, ते शक्तीक कोणूच खायना  जाल्यार आमी खंयचे शक्तीचे नाड्यार आमचें गोंय आमकां जाय म्हणपाचें...? युवा महोत्सव आनी सनबर्न तशेंच  हेर जे कितें तसलेच उत्सव गोंयांत जातात तातूंतल्या जल्लोशांत कितें फरक आसा..?

दुसरें फेस्त जें हरमला जालें तें कोंकणी अकादेमीच्या पालवान जाल्लें १८ वें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन. त्या संमेलनांत म्हजें तशें काम नाशिल्लें. पूण म्हजो इश्ट, मराठी साहित्यीक डॉ. राजन गावस मुखेल सोयरो म्हूण येता म्हणटकच ताका हांवें थंय मेळप एक साहित्यीक म्हूण म्हजें कर्तव्य थारतालें. ते भायर ह्या संमेलनांत जाचें पुस्तक अकादेमी उजवाडाक हाडपाची आशिल्ली त्या श्रध्दा गरडाच्या पुस्तकाक हांवें प्रस्तावना बरयल्ली. ताणें येवपाचो आग्रो केल्लो देखूनय वचप गरजेचें आशिल्लें. हें हांगा सांगपाचें कारण म्हणल्यार साहित्यीक वा लेखक ल्हान आसूं व्हड, नवोदीत आसूं वा ज्येश्ठ तांकां मान दिवप हें दरेका साहित्यकाराचें कर्तव्य थारता. देखून कोंकणी अकादेमी सारकी संस्था आसा तिणें ज्या युवा खातीर साहित्य संमेलन भरयल्लें आसता तांकां साहित्य हें कितें हाची जाणवाय दितनाच साहित्यिकांक मेळप, तांचे लागीं भासाभास करप, तांचो अणभव समजून घेवप हाचेरूय भर दिवपाची गरज आसा. 'लेखक तुमचे भेटेक' बी कार्यावळी आसतात हें जालेंच. पूण असल्या संमेलनांत खाशेलो यत्न करून ज्येश्ठ साहित्यिकांक आमंत्रित करप, तांचे पासत पयले रांकेंत आसन वेवस्था करप, तांचेर तांच्या नांवाचो तकटो लावप आनी अशे साहित्यीक येतले म्हणपाचें जाहीर करप आनी आयले म्हणटकच तांचें नांव घेवप खूब गरजेचें आसता. पूण अशें घडटना दिसना. नांव घेतात तें मंत्री आमदारांचें. ते माजी आसल्यार लेगीत. हांव हरमला माटवांत

वचून बसलों तरी हांव अकादेमीचो माजी अध्यक्ष, साहित्यीक बी म्हणपाचें कोणाक भान आसा अशें दिसलें ना. कोणें तरी एकल्यान बिम्बचो संपादक म्हूण धांवतो उल्लेख केलो हें नशीब. हांगा दखल घेवपाचो मुद्दो न्हय तर ह्या युवा साहित्यिकारांच्या मनांत हेर साहित्यिकां विशी ओड निर्माण करप, हें असलीं संमेलनां आयोजीत करप्यांचे कार्यावळींत आसूंक जाय.

आमचे उमेदवारीच्या काळांत कोणूय लेखक, साहित्यीक म्हूण कळटकच ताका पळयले बराबर आमकां कितली खोस जाताली. तांकां मेळपाक जीव आशेतालो. आपणें जें कितें बरयलां ताचेर तांणी नदर घाली जाल्यार मागीर सर्गाक हात लागतालो. अमक्या कडेन वळख आसा ही कल्पनाच काळीज भरूंक पुरो आसताली. हांव अजून जंय जंय वतां थंयच्या साहित्यिकांक वचून मेळटां. गोंयांत जे कोण येतात तांकां मेळटां. म्हजे पिळगेंतले कांय लेखक, साहित्यकार आपणें जें कितें बरयलां तें आयजूय दुसऱ्याक वाचून दाखोवन वा वाचूंक दिवन अभिप्राय विचारतात. पूण आयच्या युवा साहित्यकारां भितर हो प्रकार दिसना. आमी जें कितें बरयताले तें चार जाणकारांक दाखयताले. तांणी छापपा सारकें आसा अशें सांगल्यारूच छापूंक धाडटाले. आज कोण कोणाक विचारी ना. कोण प्रकाशक छापूंक तयार ना जाल्यार आपूणच प्रकाशक जावन पुस्तक छापून आपूण सादो लेखक सोडाच, नामनेचो साहित्यीक जाता. लेखक आनी साहित्यीक हांतलो फरक खबर नाशिल्ले आमचे हे सर्जक आयज कला आनी संस्कृती खातें, कोंकणी अकादेमी आनी राजा राममोहन फाउंडेशनाक रद्दी पुरवण करपाचे ठेकेदार जाल्ले दिसतात. कोणाक वायट दिसूंक फावना, सगळ्यांक खूश करपाक निवड समितीय तत्पर आसता.

हो सगळो आढावो घेवपाचें कारण कितें... ? म्हाका आयचे तरणाटे पिळगेक नाउमेद करपाचें आसा...? ना. निखालूस ना. रवीन्द्रबाब सांगतालो तशें साबार तरांचें गद्य साहित्य तयार जावपाकूच जाय. तातूंतल्यानूच बरें साहित्य वेंचून काडपाची संद मेळटली. कोंकणीं चळवळींतले म्हालगडे आनी ज्येश्ठ कवी नागेशबाब हालींच म्हणटाले, 'कोंकणी पुस्तकांचें येता तें पीक पळयत जाल्यार विश्वासूच बसना.' हांवें म्हणलें,' हें बऱ्याचें लक्षण न्हय. कोणूच आपणें कितें बरयलां हें तर्जून पळयना आनी कोणाचें मतूय घेना. जें कितें बरयता तें छापता आनी पुरस्कारांची प्रतिक्षा करीत बसता. मेळ्ळो ना जाल्यार परिक्षक कोण आशिल्ले ताची म्हायती घेवन तांच्या निर्णयक्षमतेचेर दुभाव घेवपा वांगडाच तांकां आपलो दुस्मान लेखून मेकळे जातात.

एक गजाल खरी... आयज खंयच्याय मळार योग्य परिक्षक मेळप तशें दुर्मिळूच. तेच पासत सोपस्कार पुराय करपाक कुकमाक आदार कसो परिक्षक जायच आसता. परिक्षकांचो निर्णय अंतीम आसतलो हें तेच पासत ठळकपणान नमूद केल्लें आसता. आयच्या काळांत सर्जकूच जेन्ना दाणापुरी आसतात तेन्ना परिक्षक सर्गांतल्यान येतले म्हणपाची अपेक्षाय करप शक्य नासता. शो मस्ट गो ऑन म्हणत कालाय तस्मेय नमः करचें पडटा.

म्हणटकच हें सगळें जर खरें आसत जाल्यार रवीन्द्रबाब जांचे कडेन रायटर आनी फायटर हे अपेक्षेन पळयतालो ती संकल्पनाच आयज काळा भायरी जाल्या म्हणची पडटली. रवीन्द्रबाबान कोची जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेच्या १२ वे बसकेच्या अध्यक्षीय भाशणांत म्हणिल्लें, 'साहित्यिकान जिविताचीं जीं जीं आंगा आसात तीं आपल्याक लावन घेवंक जाय. संवसारांतल्या खंयच्याच साहित्यिकान समाज बदलपाच्या, तातूंत क्रांती घडोवन हाडपाच्या, ताची तांक वाडोवन फुडार घडोवपाच्या राजकारणा पासून आपल्याक पयस दवरलो ना. कोंकणी साहित्यकार भाशीक राजकारणांत देंवूंक नाशिल्लो जाल्यार गोंय 'गोंय' उरचें नाशिल्लें. कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळूंक पावची नाशिल्ली. जांकां राजकारणांत वा समाजकारणांत खंयच सुवात मेळना म्हूण जे साहित्या सारकें सोज्वळ मळ आपणायतात ते साहित्याचें तर लुकसान करतातूच, वयल्यान साहित्यिकांक विदुशकांच्या पांवड्यार दवरतात. असले साहित्यीक उत्कृश्ट, सुंदर साहित्य बरयतीत पूण उत्कट आनी प्रेरक साहित्य बरोवंक पावचे नात.' रवीन्द्रबाब साहित्यकारां भितर एक फिलॉसॉफर आसूंक जाय म्हणटाले.

म्हणटकच आयज आमचे मुखार जी युवा पिळगी आसा ती फायटर म्हूण दिसना. ती साहित्यांत मुखार सरूंक पळयता खरी पूण सत्वहीण साहित्य केळयता. म्हजे कडेन जें साहित्य येता तातूंत हेरां वांगडाच आपले नांवा मुखार डॉ. आनी प्रा. लावप्यांचेंय साहित्य येता. हेरांचें सोडून दिवया पूण हे डॉ. आनी प्रा. वाल्यांक शुद्धलेखनाचें भान नासता, आपूण जीं विधाना करतात तांतलो कार्यकारणभाव पळयनात. कोणूच भाशेंत नवीं उतरां केळोवपाचो यत्न करी नात आनी कोंकणी भाशेंत वापरांत नाशिल्लीं उतरां वापरांत हाडपाचोय यत्न करी नात. अश्या वेळार ही सगळी भोगावळ दिसूंक लागता.

म्हणटकच अशी नवी पिळगी कोणें घडोवपाची.. ? आदली पिळगी आपल्या त्यागाच्या मालवजार पदां मिरयत रावली. तांचे फाटली पिळगी आतां आपली पाळी मानून हात मुखार करीत फुडें आयली. तांचे फाटल्यान आनीकूय लोक रांकेंत आसात. मागीर तें पदां खातीर जावं वा जावं पुरस्कारां खातीर..! सगळें गणितूच चुकलां. म्हणटकच राजभास चालीक लायात म्हूण सांगचे परस युवा महोत्सवांत धोल बडोवप बरें, निश्क्रीय सरकाराचेर कडक उतरांनी बडी मारचे परस कविता करप, कथा बरोवप वा सोद निबंध बरोवप बरें..! रवीन्द्रबाब काय ना आतां कोण फायटर आनी कोण रायटर हें पळोवंक. तांच्या फाटल्यान जे कोण आतां उरल्यात तांचे कुडींत आतां शक्त ना. म्हणटकच हें सगळें आतां कोणें आनी कशें निटायेर घालप... काळाची वाट पळोवप काय आमी रायटर आनी फायटर म्हणोवपी आमचे वारस कित्याक तयार करूंक पावले नात हाची जाप सोदप...!!

म्हजो हो लेख लांबला आनी कडकय जाला हातूंत दुभाव ना. जर कोणाकूय दिसलें हांवें अतिरंजीत बरयलां जाल्यार ताचेर चर्चा जावंक जाय. ह्या म्हयन्यांत ७ तारखेक रवीन्द्रबाब ९५ वर्सांचो जाता. आनीक चार वर्सांनी तांची शताब्दी सुरू जातली. ह्या शताब्दी सुवाळ्यांत रवीन्द्रबाबांक अपेक्षीत आशिल्ले शंबर रायटर आनी फायटर वावुरतात तें पळोवंक मेळ्ळे जाल्यार म्हज्या लेकांतले मुद्दे हांव फाटीं घेन. आमेन...

संपर्क: ९८२२१३६८८५

# ल्हानपणातल्यो यादी

**सुखदा केळेकार**

आमी मुळचीं वेलंगाचीं. म्हँजो जल्म फोण्यां हॉस्पिटलांत जालो. मागीर आमी बेतोड्यां काकागेर रावंक लागलीं. हांव जेन्ना वर्साचें जालें तेन्ना वेलंगां रावंक लागलीं. म्हाका मंगेशी बालवाडीन घाल्लें. म्हजी मम्मा म्हाका सदांच हाड-व्हर करताली.

थोड्या दिसांनी मम्माक माजोड्ड्यां एक दुकान भाड्याक दिवचें आसा म्हूण कळ्ळें, आनी मम्मान आपलें पावल फुडें घालें. थंय सगळें थारावन, तिणें हॉटेल घालपाचें येवजिलें. दुकान सगळें नवें केलें आनी आमी तिगांय थंय रावंक गेलीं. थंय म्हाका कॉनव्हेंटांत नर्सरीक घालें, आनी तिणें आपलो हॉटेल-व्यवसाय सुरू केलो. सकाळीं भाजी-पाव, शिरो, सालाद-पाव, बंस आनी च्या असो सकाळचो मेनू आसतालो. तशेंच दनपरां जेवण आनी सांजवेळा च्या, बटाटवडे आनी सामोशें. तिचें गिरायक बरें बसलें.

माजोड्ड्यां हांव तीन वर्सां शिकलें. म्हजी के.जी. २ ची परिक्षा सोंपली, मम्माचो हॉटेलाचो काँत्रादूय सोंपलो आनी आमी वेलंगां परत आयलीं. ह्याच दिसांनी म्हजो मामा हो संवसार सोडून गेल्लो. आई-पप्पाक मनाचो आधार दिवपाक म्हजी मम्मा आनी हांव पिरवळा रावंक आयलीं. म्हणल्यारूच रवीन्द्रबाबागेर. ताका आमी तातो म्हणटालीं.

तातोचे घराक ८० वर्सां सुमार जायत आयलीं. तातूंत चार चौख्यो, मदीं राज-आंगण आनी व्हडल्यो कुडी, रांदची कूड, कोठये कूड, फाटल्यान मळबाक तेंकपी सोबीत दोंगर आनी घराचे कुशीक फुलकारांचो वासाळ जायां-मळो. आमगेर सदांच रातचे आठांक आमी सगळीं एकठांय बसून प्रार्थना करतालीं. प्रार्थना म्हणल्यार गीतेंतले मदले-मदले अध्याय. म्हाका प्रार्थना नवीच आशिल्ली तरी पूण म्हज्या तकलेंत ती रोखडीच गेली. दुसऱ्या दिसाच्यान हांवूय सगळ्यां बरोबर प्रार्थना म्हणूक लागलें. प्रार्थना जाले उपरांत, तातो जेवपाक भितर येतालो, ताचे बरोबरच आमी सगळीं येतालीं. तातो रातचे जेवणांत पालक सूपात बटर घालून फाती-बिस्कीट बुडावन खातालो. वांगडा एक केळे ताका जायच आशिल्लें. पयल्याच दिसा म्हाका नानू आतेन (माधवी सरदेसाय) सुपांत बटर घालून पिवंक दिलो. हांवूय पिलें. त्या दिसाच्यान म्हाका रातचें हलकें जेवण जेवपाची संवंय जाली. तातो म्हाका म्हऱ्यान बसयतालो आनी काणयो, वेळाचें महत्व, बरे देखीच्यो गजाली सांगतालो. म्हाका, तशेंच शेजाऱ्याल्या चल्याक पिपिरमिटां आनी हाजमोला दितालो. जेन्ना तातो न्हिदतालो तेन्ना हाजमोलाची डबी अर्द करपी आमीच आसतालीं. अशें करून म्हजें ल्हानपण तातो बरोबर आनंदान गेले. पयली ते चवथी मेरेन हांव फोंण्यां 'जी.वी.एम्स' इश्कोलांत शिकलें, तेन्ना तातोन आपले मायभाशेचेर मोग करपाक शिकयल्लो म्हूण हांवें कोंकणी भास घेतिल्ली. तातोन जरीय ल्हानपणांत कोंकणी शीक म्हणलें. तरीय आठवेक पावतकच तूं 'फ्रेंच' घे म्हूण सांगलें. ताका तसो दुसऱ्या भाशांचो दुस्वास नाशिल्लो. दुसऱ्यो भासो शिकचें म्हूण ताणें म्हाका फ्रेंच घेवपाक स्फुर्ती दिली. आठवेक हांवें फ्रेंचच घेतली.

जेन्ना बाय (गोदूबाय - तांची घरकान्न) देवागेर गेलें, तेन्नाच्यान तो खचलो, आनी दुयेंत जावंक लागलो. हॉस्पिटलांत यो-वच सुरू जालें.

जुलै २०१० त ताका 'ज्ञानपीठ ॲवॉर्ड' मेळ्ळें. तातूंत ताचे थोडे दीस बरे गेले. पूण सदांच आरोग्याची कुणकूण सुरूच आशिल्ली. शेवटार मडगांवां अपोलो हॉस्पिटलांत २७ ऑगस्ट, ह्या दिसा सकाळच्या ११क सुमार तांकां देवाचें आपोवणें आयलें.

२९ ऑगस्ट, ह्या दिसा तातोक तिरंगी झेंड्यांत भितर धापिल्लो आनी पोलिसांनी २१ गुळयो मारून सॅल्यूट दिल्लो. अशे मरण कोणाचेंच पळोवक नाशिल्लें. तातोक एदो व्हडलो मान मेळ्ळां ते पळोवन ताचो गर्व दिसता.

संपर्क: ८२०८०५६९८१

# युवा साहित्य संमेलन : एक मुल्यांकन

प्रा. भास्कर नायक

कॉलेजीच्या विद्यार्थी मंडळाच्या उकतावण सुवाळ्याक उदयबाब भेंब्रे मुखेल सोयरे म्हूण आयिल्ले. कार्यक्रम जावन च्या पिवपावेळार उदयबाबा मुखार हो विशय मांडलो आनी तातूंतल्यान गोवा युवा साहित्य संमेलनाचो जल्म जालो. कल्पना बरी आशिल्ली, पूण प्रस्न खर्चाचो आशिल्लो. उदयबाब तेन्ना कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष आशिल्लो. उदयबाब, आमकां अकादेमी मदत करतली काय म्हूण विचारलें, जाल्यार तांणी तांच्या सदांच्याच positive पद्धतीन म्हणलें, ''बरे भशेन'' तांचे ''बरे भशेन'' हे उत्तर घेवन केपेंचें सरकारी महाविद्यालय फुडें गेलें. सगळे तिशींतले तरणाटे, बरोबर आशिल्लेच. म्हालगड्यांचो आर्शिवाद घेवन कोंकणी मायेची ''पडवी'' केपेंच्या कॉलेजींत फुलून गेली.

युवा साहित्य संमेलनाचो एक वेगळो concept घेवन आमी सगळे फुडें आयिल्ले. संमेलनाक उत्सवी स्वरूप नासचें, माटोव नासचो, कार्यशाळा, पडवेर, सांस्कृतीक कार्यक्रम आसचे अश्यो सुचोवण्यो घेवन संमेलनाची तयारी जाली. अशेंय थारलें कीं दोन संमेलनां मदीं एक Olympiad कशें मिनी संमेलन जांवचें.

आज १८ संमेलना उपरांत जायत्यो गजाली घडल्यात. संमेलनाचें स्वरूप कांय प्रमाणात बदल्लां. नवे तरणाटे बरोवपी तयार जावचे हो हावेस घेवन वाटचाल करीत हें संमेलन १९ वर्सांचें जालां. ताचें Teenage सोंपलां. फुडल्या वर्सा २०वें संमेलन हें एक adult संमेलन जातलें. कितें जोडलें, खंय कमी पडले, कितें करूं येता. ह्या विशीं ह्या वर्सा तुमचे प्रतिनिधी एकठांय येवन भासाभास करूं येता. हांव ताचेर चड भाश्य करना.

लेखक हो फॅक्टरींत तयार करूं येना. Robbot लेखक जावं येता अशें हांवें तरी खंयच आयकूंक ना. नाल्ल घाण्यांत घातल्यार दुसरे वटेन तेल येता. चॉकलेटीचें रसायन मशिनांतल्यान वचून ताच्यो चॉकलेटी जावन दुसऱ्या सायडीन पॅक जावन भायर येतना हांवें आनी तुमीय पळयलां आसतलें. पूण एके सायडीन मनशाक मशिनांत घालून दुसऱ्या सायडीन तो कथा वो कविता घेवन भायर सरत हें आयच्या घडयेक तरी शक्य ना. क्रमीक पुस्तकांतलो अभ्यासक्रम शिकून कोणूय कवी/ लेखक वा नाटककार जायना. बरोवपाची कला ज्या मनशाच्या आंगांत थोडी तरी आसता अशेंच मनीस बरौवंक शकतात. हे सगल्यां मदीं ती कांय प्रमाणात आसा अशें गृहीत धरून हांव फुडें वतां. चिकणमातयेक जायतो आकार दिवूं येता. कारण, त्या मातयेंत चिकणपण आसता. रेंवेक जायतो आकार दिवप कठीण. लेखक, कवी, नाटककार तयार करूं येतात; पूण तांकां तयार करपाक लागपी वातावरण खात्रीन तयार करूं येता. फाटलीं १९ वर्सा गोवा कोंकणी अकादेमी तें करीत आयल्या. तातूंतल्यान कांय लेखक, कवी, नाटककार, पत्रकार घडल्यात. संदेश प्रभूदेसायान सुनापरान्तांच्या माध्यमांतल्यान अशा तरणाट्यांक खूब व्हड उर्बा दिल्या. कांय जाणांची पुस्तकांय प्रकाशीत जाल्यात.

लेखक जातलो जाल्यार कितें करचें पडटा असो प्रस्न जायते फावट तरणाटे विचारतात. म्हाका ह्या विशीं जें दिसता तें उलयता. हे तुमी हाच्या पयलीं जायत्या जाणां कडल्यान आयकलांय आसतलें. पूण परत एकदां आयकून ताचेर चिंतपाक लुकसाण ना.

तुमकां लेखक जावंचें आसा जाल्यार सगल्यांत म्हत्वाचें म्हणजे तुमी भरपूर वाचूंक जाय. कथा, कविता, नाटक वो निबंध जें भावता, तें वाचात. कोंकणींतले आमचे सगळे म्हालगडे लेखक हे बरे वाचक. रवीन्द्र केळेकार, मनोहरराय सरदेसाय, भाई मावजो, महाबळेश्वर सैल, दत्ता नायक, पुंडलीक नायक, एन. शिवदास, हेमा नायक, अरुण आनी नूतन साखरदांडे, राजय पवार, प्रकाश वजरीकार, उदयबाब, चंद्रकांत केणी, मीना काकोडकार, शिला कोळंबकार, दिलीप बोरकार, जयंती नायक. साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळिल्ले कोंकणींतले सगळे लेखक हे बरे वाचपी. हांच्या मदल्या जायत्या जाण्ट्या लेखकांक/ कवींक कोंकणी साहित्य वाचपाक मेळूं ना. पूण तांणी हेर भासांतले साहित्य वाचलें आनी तातूंतल्यान कोंकणी भास गिरेस्त केली. जितलें चड वाचले तितलें बरो लेखना कडेन तुमचो संबंध येतलो. जशें जशें वाचतले तशें तशें तकलेन विचार येतले. हे विचार कागदार वितरायात, तातूंतल्यान साहित्य निर्मणी जातली. तुमी फकत थारावपाक जाय आपूण कसलो वाचक जातलो.

वाचकांचे तरेकवार प्रकार आसतात. कांय वाचक आळवाच्या पाना भशेन आळवाच्या पानार उदक पडता, तेच खिणाक तें नाच्च जाता. कांय लोक वाचतात, त्याच खिणाक विसरून वतात. ते लेखक जावंक पावनात. कांय वाचपी "sponge" भशेन. वाचता तितलेंय पोटांत दवरतात. पोट चिड्डीलें की ओंकून उडयतात. हेय बी लेखक जावंक पावनात, तिसरे वाचक उदक भरिल्ल्या प्लास्टीक पिशवे भशेन. जायतें, मेळटा, तें कसल्या कसलेंय वाचून तो तट्टटा. पूण वाचिल्लें तकले मेरेन पावयना. होय लेखक जावप कठीण. निमणो वाचक हो हिऱ्या भशेन. जें वाचता ते मनांत दवरता. तातूंतल्यान नवो विचार करता. आपल्या शद्बांचो नव्यो कल्पना कागदार वितरायता. कसलींच हुतहुतेपणा नासता, थंडसाणेन हिरो जसो मंद प्रकाश दिता तसो हो वाचपी बरो लेखक जावूं येता. तुमी कसले वाचक जावंचें ते तुमीच थारायात.

तुमच्या तकलेंत ज्यो कल्पना येतात - जावं कथा, कविता, नाटक, वो निबंध. त्यो कागदार वितरायात. रोखड्या रोखडें छापून हाडपाची घाई करूं नाकात. जें बरयलां ते परत एकदां/ दोनदां तिनदां, जायते फावटी वाचात. तातूंत सुदारणा करात. मनोहरराय सरदेसायान एके कडेन म्हणलां - सोय बरी वांटल्या बगर, रोस तिचो काडचो न्हय, उतरां बरी शिजल्या बगर कवित तांचें करचें न्हय.

जें बरयतात ते तुमच्या जाण्ट्या मार्गदर्शकांक दाखयात. तांच्यो सुचोवण्यो आयकून तातूंत बदल करात. हातूंतल्यान बरी साहित्य

निर्मणी जातली. सुनापरान्त चालू आसतना भाई मावजो एक सप्तकी सदर चलयतालो. तातूंतल्यान तो नवोदीत कथाकारांक बरे मार्गदर्शन करतालो. हें अनौपचारीक पद्धतीन अजुनूय करूं येता.

सृजनशील लेखकाक कान, नाक आनी दोळे सदांच उगडे दवरचे आसतात. आपल्या भौंवतणीं घडपी घडणुको पळयतां पळयतां तातूंतल्यान साहित्य निर्मणी जाता. प्रवासांतल्यान येणाऱ्या अणभवांतल्यान खूब व्हडली साहित्य निर्मणी जाल्ली आमकां दिश्टी पडटा. गोंयच्या संदर्भात उलयतलो जाल्यार दत्ता नायकाचीं प्रवास वर्णनां वाचात. तातूंत जाग्यां परस थंयच्या मनशांचेर चड बरयिल्लें आसता.

म्हापश्यां नोकरेक आसतना हांव सद्दां रिवणच्यान म्हापश्यां वतालो. पणजेच्यान सुटपी निमणी बस म्हजी जल्माची मैत्रीण. त्या बशींत सगळे भशेचे लोक आसताले. दीस भर काम करून पुरो जावन घरा परतुवपी, कांय टुरिस्ट, आनीक कांय कोपकार... बस एक दिसा पुराय भरिल्ली. फक्त ड्रायव्हरा फाटल्यान एक सीट खाली आशिल्ली. पूण ताचेर एका सरदारजीन आपली सुटकेस दवरिल्ली. जण एकलो येतालो आनी ती सुटकेस पळोवन परत उबो रावतालो. बस सुटली. एकलो सरदारजी म्हऱ्यांत गेलो आनी ती सुटकेस काडपाक लागलो. सरदारजीन ती सुटकेस पिरंगत काडली. तो गोंयकार त्या सिटार बसलो. बसतना ताचो पांय सुटकेसीक लागलो. घेऽऽऽ सरदारजीचो व्हो बोवाळ. बस बांबोळी पावसर बोवाळ सुरू. ह्या सुटकेसींत ''भगवान'' आसा. तुवें ताका पांय लायलो अशें बी जायते... गोंयकाराच्यान तें सोंसू नज जालो. ताणें त्या सरदारजीची आय-बाय काडली. तातूंत एक सत्य अज्ञानधानान तो गोंयकार उलोवन गेलो. घडये ताणें घेतिल्ली 'दारु सच बोल रही थी' तो म्हणूक लागलो भगवान बॉक्सात दवरतात? तकली फिरल्या रे तुजी? भगवान काळजांत आसपाक जाय. केदी व्हडली फिलोसॉफी' एक कोंपकार गोंयकार त्या सरदारजीक खावयतालो. इतल्यार तो रावलो ना. ताणें हळूच खलिस्तान भायर काडलें. ते दिसा पंजाबाक खलिस्तानी आतंकवाद चलतालो. आनी ह्यो सगल्यो गजाली हो आमचो गोंयकार ताका कळता तितल्या कोंकणी, हिंदी, आनी इंग्लिशीची भातेरी करून सांगतालो. बशींतल्या सादारण साठ सत्तर लोकांक फुकट entertainment जाताले.

ही घडणूक विस्तारावन बरयल्ली, भाशेक थोडे अळंकार चडयल्ले थोडो मेक अप लायलो, स्प्रे बी माल्लो जाल्यार एक बरो निबंध जावूं येता. आपल्या कलानाशक्तिंतल्यान थोडे वेगळे भशेन चितल्यार ताची कथा जावूं येता.

अश्या जायते अणभवांक शद्बरूप दिल्यार तार्चे साहित्य जावूं येता. तुमी तर सदांच प्रवास करतात. अश्यो घडणुको दिसपट्यो घडिल्ल्यो तुमकां दिश्टी पडतात. त्यो फकत नोट करून दवरात. फावल्या वेळांत ताचो कल्पना विस्तार करात.

आपूण कितें बरयतलो तें पयलीं थारायात. तुमी सगले teenage भुरगे. ह्या वयाचो रंगच गुलाबी. विचार गुलाबी, चिंतप गुलाबी, पळोवप गुलाबी आनी तातूंतल्यान बरोवपय बी गुलाबीच. तुमचे वया वयले चडशे प्रेम बी करतातच आसतले. आनी मागीर आपल्या आवडीच्या मनशाचेर केल्ली प्रेम कविता. पूण मनशां बराबर थोडेशें प्रेम सैमाचेर करात. गोंयच्या फुडाराच्या नदरेन तें गरजेचें. तुमी तें जर केलें ना जाल्यार येणाऱ्या तुमच्या भुरगें बाळांक आज आसा तशें गोंय दिसचें ना. 'गोंय हें देवाक पडिल्लें एक फांतोडेवेले गोड सपन' ही गजाल फकत इतिहास म्हूण उरतली म्हूण एक मागणें. मोगाच्यो कथा/ कविता बरयतना गोंयच्या सैमाचेरूय मुजरत बरयात.

आयचो तरणाटो खंयचीय गजाल करतना वोगीच करपाक जाय म्हूण करचो ना. ताच्या फाटल्यान ताच्यो अपेक्षा आसतल्योच. ''म्हाका कितें मेळतलें?'' हो प्रस्न आसतलोच. तातूंत बिलकूल चूक ना. साहित्य हें वाचपा खातीर, समाधाना खातीर, साहित्या खातीर हें सगलें खरें आसा. पूण तातूंतल्यान पोट भरना. साहित्य हें तुमच्या खातीर पोटाचे साधनय जावूं येता. जगभरात हजारांनी लोकांचें तें पोटाचें साधन आसा. तुमचो आवडीचो इंग्लीश बरोवपी चेतन भगत हाचें नांव तुमी आयकलां आसतलें. ताची "Three mistakes", "Half girl friend" बी पुस्तकां तुमच्यामदले कांय जाणांनी वाचल्यांय आसतली. ह्या पुस्तकांच्यो लाखांनी प्रती हातोहात खपल्यात. तातूंतल्यान लाखो रुपयाचीं ताची येणावळ आसा. मदीं युवा साहित्य संमेलनाक ताका आपोवपाचो विचार जाल्लो पूण ताका दिवंक दोन तीन लाख रुपये खंयच्यान हाडचे म्हूण तो विचार सोडून दिवचो पडलो.

सृजनशील बरपांतल्यान पयशे मेळोवं येतात. थोडो वेळ वता. रोखडेंच जायना. शॉर्टकट ना.

वृत्तपत्रीय लेखन करूं येता. print mediaत पत्रकार जावन पयशे जोडूं येतात. बातमीय creative पद्धतीन बरोवन आपली एक वेगळी सुवात निर्माण करूं येता. बरो पत्रकार जातलो जाल्यार कान, नाक आनी दोळे मात सारके उकते आसुकूंच जाय.

भाशांतराक (Translation) गोंयांत खूब बरी मागणी आसा. गोंयकार बहू भाशीक. तांकां कोंकणी, मराठी, हिंदी, आनी इंग्लीश ह्यो भासो येतातच. तातूंत पुर्तुगेज कळल्यार तर विचारुंकूच नाका. गोंयच्या इतिहासाचें भांडार पुर्तुगेज भाशेंत ... पडिल्लें आसा. भाशांतर करतलो जाल्यार जल्म पावचो ना. पुर्तुगेज शिकप म्हणल्यार कमी न्हय. ह्या भाशांतराक तर शद्बांच्या हिसबान पयशे मेळटात. १००-१५० रुपया एका पानाक म्हणल्यार कमी न्हय. कोंकणी वाङ्मय हेर भासांत व्हेले आनी हेर भासांतलें कोंकणींत हाडलें जाल्यार आमची भासूय गिरेस्त जातली तेच बरोबर तुमीय गिरेस्त जातलें. अर्थूय जातलो स्वार्थूय जातलो.

आनीक एक व्हड संद तुमच्या मुखार आसा. तिचे विशीं दोन उतरां उलयतां आनी म्हजें हें भाशण थांबयता.

'Electronic media' एक व्हड संद तुमकां दिल्या. त्या संदीचो लाब घेयात.

तुमचे स्वतःचे ब्लॉग तयार करात. वेगळ्या वेगळ्या विशयां वयले व्हिडिओ करून यू ट्यूबचेर अपलोड करात. जशी जशीं subscriptions

पान १३ चेर)

# कोंकणी आनी कोंकणीचें वाचन लेखन कांय विचार

डॉ. पुष्पा पै

इंग्लिशे मुखार राज्य भाशांचें कशें जातलें असो सूर सगळें कडेन आयकूंक येता. कोंकणीचे संदर्भांत तो खऱ्यानीच हुस्क्याचो विशय आसा. ह्या संदर्भात म्हजे मतींत आयिल्ले हे कांय प्रस्नः

१. कोंकणी कितले लोक वाचतात.?

२. खंयच्या वयोगटांतले वाचतात?

३. वाचपा खातीर कसलें साहित्य (matter) आसा? म्हयनाळीं, पाक्षीकां बी कितलीं आसात? तांचो खप कितलो आसा?

४. गोंयांत कोंकणीक दोन लिपी आसात. खंयच्या लिपींत हीं म्हयनाळीं आनी पाक्षिकां चड आसात / चड वाचप जातात?

५. गोंय १००% साक्षर पूण खंयच्या भाशेंत, खंयच्या लिपींत?

आमी सगळींच आपापली बोली भास उलयतात. प्रमाण भास म्हण भाशेचे जें रूप दिसता ताचें व्याकरणीक रूप भुरग्यांक/स्टुडंटांक शिकयताना स्पश्ट करप जाता काय? बोली भाशेचो वापर जर आशिल्ल्या टेक्स्टांत दिसलो जाल्यार ते बोली भाशेचे रूप आलायतें कशें ताचें स्पश्टीकरण दिवप जाता काय? कारण ती जरी बोली भास आसली तरीय तिका आपलें अशें व्याकरण आसता. आनी कोंकणी मालवण साकून केरळ मेरेन वेगळ्या वेगळ्या रूपांत पळोवंक मेळटा. त्या बोलींनी साहित्य आसा काय? तें खंयच्या लिपींत बरयल्लें आसा. कारण कोंकणी पांच लिपींत मेळटा.

प्रमाण भाशेचें रूप आतां नेट धरूंक लागलां. हिंदू क्रिस्तांव आनी मुसलमान या तिनय धार्मीक समाजाचे लोक एकामेकांची उतरां भरसून आपलें लिखाण करूंक लागल्यात. हें स्वागत करपा सारकें लक्षण. लिपीचे बाबतींतूय अशेंच जावंक जाय. देवनागरी कोंकणीची लिपी अशें सगळे कोंकणी बरवपी मान्य करतात पूण बरयतना आपापलेच लिपींत बरयतात. राष्ट्रभाशा म्हण हिंदी सगळ्यांकच शिकची पडटा. त्या निमित्तान देवनागारीची वळख जाता. म्हणून म्हाका अशें दिसता की. सगळें कोकणीचें जे बरोवप आसा, म्हणजे वेगळ्या वेगळ्या लिपींतलें बरोवप, देवनागरींत ट्रान्सलिटरेट करप गरजेचें. म्हणजे कितें जातलें हेर लिपींतले लिखाण वाचपाक मेळटलें. शिवाय ते कितें बरयतात, तातूंतल्या साम्य भेदाचो आभ्यास करूंक मेळटलो. तांच्या लिखाणाचेर जाल्लो हेर संस्कृतींचो (कर्नाटकी, केरळी, महाराष्ट्रीय) परिणाम दिसतलो. खरें तर हाचे खातीर यूनीकोडाचे भशेन प्रोग्राम तयार करूंक जाय म्हणजे जाय तेन्ना जाय त्या लिपींत वाचूंक मेळटलें.

गोंय १००% साक्षर आसा. साक्षर म्हणजे वाचूंक-बरोवंक येवप. तर गोंय साक्षर जालें तें खंयच्या भाशेंत, खंयच्या लिपी वरवीं? म्हजी जेन्ना 'बाय गो' अणकारींत कादंबरी प्रकाशीत जाली, हांवें ती म्हज्या घोवाच्या एका इश्टिणीक वाचूंक दिली जाल्यार तिणें म्हाका विचारलें, कोंकणी म्हूण कोण वाचता? पयली प्राथमीक शिक्षण मराठी भाशेंत जातालें. आमचे पयलीच्या बायलांक पोथी वाचपा खातीर मराठी येतालें. सुरवेक आयिल्लीं सगळीं दिसाळीं मराठींत आसतालीं सगळ्यांक मराठीची संवंय जाल्ली आसा. ती मोडून कोंकणीची संवंय लावप सोंपें ना. अजुनूय एखादें नवें बरें मरठी दिसाळें आयलें जाल्या तें खपतलें. लोकमता कडेन देख म्हणून पळोवंक येता.

बरयिल्ली कोंकणी फकत सरकारी कागद पत्रांनी उरल्या. बोली भाशा म्हण लोकांनी मराठीक लागी करूंक ना. पूण बरयिल्लें कोंकणी साहित्य (fiction) रूपांत सोडलें जाल्यार हेर कडेन वैचारीक लेख व्हडलेशे पळोवंक मेळनात. जाग, बिम्ब बी म्हयनाळीं हें काम करतात. पूण तांचें प्रमाण खूब कमी आसा. कोंकणी इश्कोलांनी शिकयतात. पूण द्वितीय भाशा म्हण आनी मार्क मेळटात म्हूण भुरगी ती आनंदान घेतातूय तातूंत ती सदाची संवखळीची म्हण व्हडली शिकचीय पडना. कोंकणी बी.ए., एम.ए. सामकें पीएच.डी. मेरेन आसा. पूण हांगाय सगळीं कडेन ती साहित्य (literature) म्हणुनूच शिकयतात. साहित्य आनी भाशा ह्यो दोन आलायद्यो गोश्टी. साहित्य हें सदाच्या भाशेचें एक अनुप्रयोजन. शिवाय खंयचीय भास म्हणजे फकत, कादंबरी, ललीत निबंध, कविता वा नाटक न्हय. ताचें शिक्षणूय म्हत्वाचेंच. कारण साहित्य sansitivity आनी sensilbility मनान रुजयता, वाढयता. पूण ते खातीर सदाची भास बरे भशेन मांडूंक येवंक जाय. नित्याक घडटात त्यो गोश्टी वाचून समजून घेवंक येवंक जाय. व्यक्ती (person), वस्तू (thing), ठिकाण (place), पद्धत (process), प्रसंग (event), या सगळ्यांचे वर्णन करूंक येवंक जाय. वेगळ्या वेगळ्या शैलींचोय अभ्यास जावंक जाय. कोंकणी शिक्षणाचें माध्यम म्हण विकास करूंक पावलीच ना. वेगळ्या वेगळ्या विशयांचेर ल्हान भुरग्यांनीं वाचचीं अशीं पुस्तकां आसात पूण खूब थोडी. ना म्हणल्यार राजश्री बांदोडकार-कारापुरकारान विज्ञान विशयांचेर ल्हान भुरग्यां खातीर उत्तम पुस्तकां बरयल्यात. असोच यत्न अजून नेटान जावंक जाय. इतिहास, भुगोल, समाजशास्त्र, अर्थशास्त्र ह्या विशयांचेर सोप्या भाशेंत लिखाण जावंक जाय. राजश्री बांदोडकारान 'नक्षत्र' प्रवसाचे पुस्तक सुंदर बरयलां. पूण एका ल्हानश्या पुस्तकांत दिल्ली मायती खूब dense जाल्या. तातूंतलें एक एक आंग (aspect) घेवन दोन तीन पुस्तकां केल्लीं जाल्यार वाचन साहित्य भरपूर जातलें आसलें आनी त्या वयाच्या भुरग्यां खातीर योग्य अशें जातलें आशिल्लें. कारण भुरग्यांचो attention span लिमिटेड आसता. हें म्हजें मत.

मुख्य म्हणजे वाचन संस्कृती वाडोवंक जाय. बरवप्यांनी आप-आपले साहित्याचें पब्लीक वाचन करूंक जाय. शाळेच्या प्राथमीक स्तरा खातीर सादी सोपी पुस्तकां बरोवंक जाय. भुरग्यांक भाशे कडेन खेळूंक शिकवंक जाय. गोंय राज्य जावन कितलींशी वर्सां जालीं तरी कोंकणीक अजून मराठीचो पर्याय आसा. दिसाळीं सगळीं मरठींतूंच पोप्युलर आसात.

तशेंच देवनागरीक रोमीचो पर्याय आसा. दिसाळीं एक न्हय अनेक भायर येवंक जाय. ते ते जिल्ह्याची स्थानीक/लोकल म्हायती दिवपी दिसाळीं बी आसत जाल्यार लोकल लेखकूय तयार जातले आनी वाचपीय.

म्हाका दिसता दिसाळ्यां परस पयलीं सप्ताहिकां काडूंक जाय. तीय़ गोंयच्या वेगळ्या वेगळ्या विभागांतल्यान तांच्यो तांच्यो बातम्यो प्रसिद्ध करूंक जाय. स्थानीक (local) म्हत्वाच्यो घडामोडी, थंयच्याच लोकाच्यो मुलाखाती बी बरयल्यार तांकां आपली बातमी वाच्चचीशी दिसतली. हळू हळू वाचपाची संवय लागतली. म्हणजे मागीर राज्य मळार छापून आयिल्ल्यो बातम्यो वाचपाची इच्छा जातली. वाचन आपल्या इंट्रेस्टाचें आसत जाल्या वाचपची इच्छा जातली.

आता हें कोण करतलो? हो प्रस्न. बी.ए., एम. एक मिडियाचो पेपर आसता. या भुरग्यांक प्रोजेक्ट करचे आसतात. तांकां ह्या संदर्भाचे प्रोजेक्ट करूंक सुचोवंक जाता. अजून मार्ग काडूंक जातात. जांकां ह्या संबंदान कळकळ आसा तीं सगळीं हें काम करतलीं अशी म्हाका खात्री आसा.

फुडलो प्रस्न खर्चाचो/ पयश्यांचो. म्हज्या मतान ताचे खातीर एक सिंकींग फंड तयार करप. ते खातीर लोकां कडेन एक अपील करप. हो फंड सांबाळपाक मात भांडारी जाय. तें कशें करप तें पळोवंक जाय हें म्हजें फकत सजेशन.

युनेस्कोच्या सांगण्या प्रमाण सगळें प्राथमीक शिक्षण भुरग्यांक तांचे मातृभाशेंत दिवचें. इंग्लिशीक लागून आमच्या देशांत तें कठीण जालां पूण बेगीनूच संगणक /कंप्युटर हाची भाशा स्थानीक जातली. आतांच हिंदी, मराठी बंगाली, तमीळ, तेलुगु बी भासांनी कंप्युटराचेर काम करूंक येता. अशा तरेन कांय काळांत इंग्लिशची महतीय कमी जातली.

म्हणून लोकल भाशेंत वाचपाक आनी बरवपा खातीर उमेद दिवंक जाय. भाशीक कुशळतायो शिकपाक आनी तांकां जगाचें गिन्यान मेळवपाक प्रवृत्त करूंक जाय अशें म्हाका दिसता. हें म्हजें डे ड्रीमींग जायत. हांव मात आशावादी आसां.

कोणाकूय भास येता म्हणजे कितें येता. सोपी आसा जाप. ताका उलोवंक येता, उलोवन भाशीक व्यवहार करूंक येता. भाशीक व्यवहार म्हणजे कितें. भाशेचो वापर करून आपली नित्याची कामां करूंक येतात. भूक लागल्यार खावंक मागूंक येता कितें जाय नाका तें सांगूंक येता. भाशाशास्त्रज्ञ हॅलिडेचें तर अशें म्हणणें आसा की मनशांक सगलो व्यवहार आपले आपूण करूंक आयिल्लो, दुसऱ्याच्या मदतीची ताका गरज नाशिल्ली जाल्यार खंयचीच भास जन्माक येवंची नाशिल्ली. पूण संवाद सादपाक, संप्रेषण करपाक, संदेशना खातीर, उमाळे आनी भावना उकतावपा खातीर, सूख-दुखां वांटून घेवपा खातीर, असलें हेर सगलें करपाक तीं भाशेचो उपेग करतात. भाशेक आमच्या जिणेंत मुळावें स्थान. ती नाशिल्ली जाल्यार आमची कितलीशींच कामां जावंक पावची नाशिल्लीं. विचार करून पळयात ही भास नाशिल्ली जाल्यार घरच्या कडेन कसो संवाद सादूंक जातलो आशिल्लो? नातीं जोडप, दोस्त आमीग करप, मोग- केस्तांव करप, गिन्यान मेळवप, विचार करप, भविश्याची येवजण करप, उमेदीन फुडाराची सपनां पळवप, राजकीय वेवारांत भाग घेवप, आदर्शां जपप आनी फुडल्या पिळगेक तीं जपूंक शिकवप, भाशे बगर हातूंतलें आमकां कांयच करूंक जावंचें नाशिल्लें.

फकत सही करूंक येवंक म्हण साक्षर जावप न्हय तर गव्हर्मेंटा कडल्यान आयिल्ल्या पत्रकां वयल्यो सुचना वाचून, त्यो समजून घेवन ते प्रमाणे काम करप, वेगळ्या वेगळ्या संस्थां कडेन गरज लागल्यार तक्रारीची पत्रां बरवप, आपलें म्हणप समजावन सांगप आनी ते खातीर आपले म्हणणें समर्थणान मांडूंक येवप म्हणजे साक्षर जावप. तातूंत सामान्य म्हायती वाचपूय आयलें. वर्तमान पत्रां वाचून जगांत किते चल्लां हाचें गिन्यान मेळोवन ताचे बद्दल आपलें मत घडोवप होय लोकांक साक्षर करपा फाटलो हेतू.

संपर्कः ०७७३८१४८८०८

---

*पान ११ वयल्यान)*

वाडटात. तशें तशें पयशे मेळटात. हे व्हिडिओंतल्यान कथा, कविता, संवाद, लोकां मेरेन पावोवं येतात. खर्च लागी लागी शून्य. येणावळ बऱ्यापैकी फकत आज केले आनी फाल्यां जोडलें अशें ना. शॉर्टकट ना. थोडे पासियेस काडचेंच पडटा. Electronic Media हो एक म्हासागर. पोंवपाक कळटल्याची मजा. तुमच्या सृजनशिलतेक नव्यो वाटो दाखोवपी हे एक व्हड माध्यम. ताचो पुराय लाब घेयात.

उलयतलो जाल्यार खूब आसा. पूण वेळेचें बंधन मानूकच जाय. हांव लेखक न्हय. सुनापरान्त नव्या रुपांत सुरू जातकीच संदेश प्रभू देसायान म्हाका Career चेर column बरोवंक सांगलो. म्हयन्याक चार फावट. म्हाका पेंवपाक येना आशिल्लें. संदेशान धुकलून उडयलो आनी बुडू नये म्हणून हात पांय मारीत पलतड गाठली. तुमकां कोणूय धुकलून वडयतले म्हूण रावूं नाकात. तुमचे शिक्षक जे तुमचे mentor आसात ते कांय प्रमाणात ते काम करतले. जें बरयतले तें तांकां दाखयात. तांचें मार्गदर्शन घेयात. आपलो विद्यार्थी आपल्या परस व्हड जावप हाच्या सारकें भाग्य शिक्षकाक दुसरें ना. तें भाग्य तुमच्या शिक्षकांक मेळोवन दियात. ते तुमच्याच हातांत आसा.

पूण निमणें एकूच सांगता.

कोंकणींतल्यान बरयात. तुमची आवयभास तुमी आपल्याक गिरेस्त करतले म्हूण आंवडेता. तिका निर्शेवणी येवंक दिनाकात.

फकत कोंकणींतल्यान बरयात म्हूण हांव म्हणना. हेर खंयच्याय भाशेंत जर तुमी बरोवंक शकतात तर जरूर बरयात. कांयच बरय नासतना रावचें परस कितें तरी बरोवप गरजेचें. तुमच्यातलोच एकटो रवीन्द्र केळेकार जातलो, महाबळेश्वर सैल जातलो, दत्ता नायक वा पुंडलीक नायक जातलो.

त्या दिसाची आमी सगले वाट पळयतात.

देव बरें करूं.

***(हरमल-पेडण्यां जाल्ल्या ११व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनात केल्ले बीज भाशण)***





# कविते विशीं

**माधव बोरकार**



०५.०७.१९

Inspired lines from nowhere roam through my ears... to make or injure a poem. All my poems are written for catharsis: non can heal melancholia or arthrities. रॉबर्ट लॉवेलाच्या ह्या आत्मनिवेदनांत ताची कविते कडेन पळोवपाची नदर दिसता. ताची कविता एके उतराच्या वा एखाद्र्या प्रतिमेचे गर्भकणयेंतल्यान फुटून येताली आनी एक फावट ती कागदार देंवली काय ती सुदारून परत परत बरोवपाची ताची सवंय. तीच ताची सृजन प्रक्रिया आसताली. तशें पळोवंक गेल्यार कलेचे अभिव्यक्तीत catharsis आसताच.

हालीं हांव ज्या शारिरीक आनी मानसीक अवस्थेंतल्यान वतां आनी फाटल्या कांय म्हयन्यांत हांवें ज्यो कविता बरयल्यात ती catharsis आसा.

***

बाकीबाबाल्यो कांय कविता आयजूय अप्रकाशीत आसात. हालींच तांची धूव मुक्ता आगशीकार हांकां त्यो मेळ्ळ्यो. तातूंत १९३१-३२ ह्या वर्सांनी बरयल्ल्यो कविता आसात तेच प्रमाण ते उपरांत बरयल्ल्योय आसात. ३१, ३२ तल्यो कविता तश्योच बासनांत कित्याक उरल्यो तें कळपाक वाट ना. एक तर्क असो ह्यो कविता 'जिवन-संगित' ह्या संग्रहाच्या काळांतल्यो. थोड्यो श्रृंगारीक. हे कवितांचें selection करतना वि. स. खांडेकरान त्यो कडेक काडल्यो आसूं येता. आनी बाकीबाबानूय तांचो आसपाव खंयच्याच संग्रहांत केलोना. तांच्या कागदपत्रांनी आनीकय कांय कविता मेळत. तातूंतल्यान 'अप्रकाशीत बोरकर' अशे तरेचें एक पुस्तक जावं येता.

***

०८.०७.१९

आज बाकीबाकाची पुण्यतिथ. तांच्यो कविता काडून वाचल्यो. बाकीबाब आपल्या फाटल्यान कवितेचें व्हड संचीत दवरून गेला म्हणपाचें खोलायेन जाणवता. हे कवितेचो जसो अभ्यास जावंक जाय तसो तो जावंक ना. बाकीबाब England सारकिल्या देशांत जल्माक आयिल्लो जाल्यार आज मेरेन ताचे कवितेचेर शें दोनशें पुस्तकां उजवाडा येवपाचीं.

बाकीबाबाच्यो कितल्यो तरी आशयसंपन्न कविता कडेक उरल्यात. 'कातरवेळे नंतर', 'झाडे झाली निळी निळी करांगुळी गोवर्धन', 'प्रणयमुग्धेस', 'क्षितिजी आले भरते ग' ह्यो पतीक कांय कविता. बोरकार म्हणल्यार, 'तेथे कर माझे जुळती', 'जीवन त्यांना कळले हो', वा 'सरीवर सरी' न्हय. हो एकसारको वाडत गेल्लो कवी. कितले तरी संस्कार तांचे कवितेन आपले भितर आसपावन घेतिल्लो. ताचो अभ्यास जावपाची गरज आसा.

***

१०.०७.१९

Indian Literature July-Aug. 2018 च्या अंकांत केदारनाथ सिंहाचेर हरिश त्रिवेदीन बरयल्लो एक लेख आसा. केदारनाथ आपलो गांव आनी वाठार सोडून जवाहरलाल नेहरू विद्यापीठांत शिकोवपाक दिल्ली आयले. एक कवी म्हूण ह्या स्थळांतराचो तांचे कवितेचेर खोल परिणाम जालो. ते म्हणटात ताका लागून तांच्या गांवची बेस बरी वळख जावंक पावली.

म्हाका हांगा मनोहरबाब दोळ्यां मुखार उबो जाता. मनोहरबाब पॅरिसाक वचूंक नाशिल्ले जाल्यार 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' संग्रहांतल्यो कविता जल्माक येवच्योच नाशिल्ल्यो. खूब फावट ह्या भुगोलीक अंतराक लागून सौंदर्याचो साक्षात्कार जावपाक पावता. कलेच्या आस्वादांत हें अंतर म्हत्वाचें.

***

१५.०७.१९

वासदेव मोही हांणी संपादीत केल्ली सिंधी कवितेची anthology अभ्यासाचे नदरेन म्हाका म्हत्वाची दिसता. हे भाशेंतलें साहित्य कडेक कशें उरलां. हेर भारतीय भासांचे तुळेन आमकां सिंधी साहित्याची म्हणपासारकी वळख ना. ताका खूब कारणां आसात.

सिंधी कवितेंत गजल हो प्रकार बरे तरेन केळयिल्लो दिसता. खासा वासदेव मोही हे एक सक्षम अशे गजलकार. सिंधी समाज हो विस्थापीत समाज. ताचो खूब मोटो परिणाम तांच्या साहित्याचेर जाला. तांचे कवितेंत तांकां परकी जाल्ली भूंय येता... विमी सदारंगानीची कविता I am thirsty bank of the river Sindhre. संग्रहांतल्यो कांय वळी फाट सोडिनात, नामदेव ताराचंदानीची कविता एकसुरेपणाची अवस्था प्रभावीपणान व्यक्त करता.

***

१६.०७.१९

नवी कविता सुचल्यार बरेच दीस जाले. फाटल्या कांय म्हयन्यांत बऱ्योच कविता आयल्यो. पूण आतां सुकती आयिल्लेवरी जालां. पावस मांडून येवप आनी कुपां फुडें वचप अशी कितेंशी अवस्था

जाल्या. सुचिल्ले भशेन दिसता. पूण कविता आकाराक येना.

पूण मनांत मात कविता सोडून दुसरो विचार नासता.

***

१७.०७.१९

'अक्षरगंधर्व' पुस्तकांत सदानंद रेगे पु. शि. रेगेचे कविते संबंदान उलयल्यात. तांकां ती कविता smart वा competent कशी दिसता. अर्थात हें रेगेचें मत. मतभेदाक थंय सुवात आसा. म्हजे नदरेन ती कविता smart आनी competentय न्हय. तशें म्हणप पु. शि. रेगेचें अवमुल्यन. शब्दांची विलक्षण जाण आशिल्लो हो कवी. तांची कविता एके सरळ रेशेन केन्नाच गेली ना. तांची कविता एक सारकी वाडत गेली. हेर समकालीनांचे तुळेन तिचो खर सूर लागपाक थोडो कळाव जालो अशें म्हणपाक जाय. तिची फाव तशी समिक्षाय जावंक ना. तिची भाववृत्ती एकदम तरल. परंपरा आनी नवता हाचो सुमेळ तांचे कवितेंत जाल्लो दिसता. मुक्तछंद जितलो तांकीन तांणी मराठी कवितेंत केळयलो तितलेच तांकीन तांणी वृत्त आनी छंद आपले कविते खातीर आपणायलो. तांणी हेटोरिकल कविता बरयली ना हो तांचो दोश न्हय.

मर्ढेकराचे कवितेची जशी समिक्षा जाली तशी रेगेचे कवितेची जावंक जाय आशिल्ली. एकलो गंगाधर पाटील ताची आदिबंधात्मक नदरेंतल्यान समिक्षा करता. पूण हेरांनी वेगळे नदरेंतल्यान तिचे कडेन पळोवपाक जाय. सद्या डॉ. रसाळ रेगेच्या समग्र कविता संग्रहा खातीर दीर्घ प्रस्तावना बरयता. ती रेगेक खऱ्या अर्थान न्याय दितली. हे प्रस्तावने संबंदान आमची फोनाचेर चर्चा जाला.

***

१९.०७.१९

R. K. Ramanujanची A Poet's Diary हें पुस्तक आमच्या उदेते कवींनी आनी तेच भशेन आपल्याक प्रस्थापीत समजुपी कवींनी वाचपाक जाय.

वाचीत काय ते?

रामानुजन ३ जाने. १९९२ चे नोंदीत बरयता. Have been doing free writing every day, without any great result - but it always surprises me, new images. Don't know what its worth, but I'll continue.

Lack of new ideas, keeping focus, writing enthusiastically - so should stop for a while and just read.

जेन्ना कांयच सुचना आनी मनांत एके तरेचें रितेपण येता तेन्ना वाचन होच एक पर्याय आसता. वाचतां वाचतां आपूण एके वेगळे भाववृत्तींत पावता, दुसऱ्या कविची कविता वाचतना आपल्याकूय कितेंय तरी नवें सुचपाक लागता.

कांय कवी वाचूंक जाय ते अशे: भारतीय संत कवी, आर्विल्ले भारतीय कवी. युरोपी कवी येट्स, इलिअट, ऑडेन, सिमस हेनी, रिल्के, त्रास्तोमर, मालार्मे, अमेरिकन कवी व्हिटमन, पो. कार्ल सेंडबर्ग, स्टिव्हन्स, फ्रॉस्ट बी. ते भायर आनिकूय जायते कवी आसात. आपल्याक भावतात ते वाचपाचे. आनी दुसरें म्हणल्यार लोककाव्य आसा. ताचें वाचन फळादीक जावंक शकता.

***

२१.०७.१९

आयच्या 'भांगरभूंय'चे पुरवणेंत नूतन साखरदांडे, माया खरंगटे आनी नयना आडारकार ह्या तीन कवयित्रींच्यो पावस ह्या आशया वयल्यो कविता आयल्यात. त्यो अतिसामान्य. पावसाच्या आशयाक भिडपाची तांक तांचे भितरल्या एकल्या भितर दिसना. पावस हो एक आगळो वेगळो अणभव. तो तितलेच तांकीन कवितेंत येवपाक जाय आशिल्लो. बाकीबाबाची 'झाडे झाली निळी निळी / करांगुळी गोवर्धन' ही एकूच कविता देखी खातीर घेवं येता. हे कवितेंतल्यो प्रतिमा आनी तिची लय हांचो अभ्यास करपा सारको. हे कवितेंत चित्र आनी संगीत ह्या दोन घटकांचो सुमेळ जाला. 'सरिवर सरी' ही कविता तर पावसाचें सुक्त. कवी अनिलाची 'पावसाळा' ह्या नांवाची एक सुंदर कविता आसा. ती अभ्यासाचे नदरेन वाचपा सारकी आसा. हेर भासांतले कवितेंतूय पावसाचीं वेगळीं वेगळीं रुपां आयल्यांत.

ह्या आमचे कवयित्रींनी आपले पिरायेची साठी हुपल्या पूण आपले कवितेची प्राथमीक अवस्था हुपूंक ना अशें ह्यो कविता वाचतना दिसता. हाचीं कारणां सोदपाक जाय. मुख्य म्हणजे तांणी आत्मपरिक्षण करपाची गरज आसा. वाचन आनी अणभवान अभिव्यक्तींक maturity येता. पूण आमचे कडेन ह्यो दोनूय गजाली नात अशें खंतीन म्हणचें पडटा. आमचे हे पिळगेन बाकीबाब, रामाणी, मंगेश पाडगावकर बी कांयच वाचूंक ना. तांकां ताची व्हडली गरज दिसना.

***

२५.०७.१९

ओऱ्हान पामूक हो नोबेल मेळोवपी कादंबरीकार आनी गद्य लेखक पिरायेच्या अठरा वर्सां मेरेन कविता बरयतालो. पॅरीस रिव्हू घेतिल्ले मुलाखतींत तो सांगता : 'I did when I was eighteen and I published some poems in Turkey, but then I quit. My explanation is that I realized that a poet is someone through whom God is speaking. You have to be possessed by poetry. I tried my hand at poetry, but I realised after sometime that God was not speaking to me. हातूंतलो possessed हो शब्द म्हत्वाचो. कविता तुजे मानेर बसल्या शिवाय तुज्या हातसून बरी निर्मणी जावपाक ना. चालंत अर्थान पामूक कवी न्हय. अशें जरी आसलें तरी ताच्या गद्यांत हो कवी नकळटां आयला. ताचें अस्तित्व जाणवत रावता. सर्जकाची मूळ प्रकृती ताका खंयच सोडून वचना. गटेन कादंबऱ्यो बरयल्यो. पूण त्यो एका कवीन बरयल्यात म्हणपाचें स्पश्ट कळटा. गरेचें poetic vision तातूंत दिसता.

(फुडें चलता)

संपर्क: ९४२०२२२८७६



# इतिहास उस्तितना

**कोंकणीची पोरनी सरस्पत उस्तितना कांय म्हत्वाचे लेख आनी बरपां मेळ्ळीं.**

**ती 'जाग'च्या वाचप्यां मेरेन पावलीं जाल्यार तांचे खोशेंत भर पडूं येता अशें दिशिल्ल्यान हें पुनर्मुद्रण - त्या त्या लेखकाच्या आनी संपादकाच्या बरेपणान...**

**उस्तून तुमचे मुखार दवरपी - दामोदर मावजो**

गोंय म्हणजे कलेची खाण. हे खाणींत जायतीं वज्रां लखलखलीं आनी तांणी आपणालें आनी त्याच वांगडा गोंयचें नांव नामनेक पावयलें. गान सम्राज्ञी अंजनीबाय मालपेकार हांकां तातूंत बरोच वयलो मान दिवंक फावो. तांची ही वळख -

गान सम्राज्ञी —






**''कोंकणी''चो प्रतिनिधी**

गोंय ही कलावंतांची खाण. संवसारांतले खंयचेय कलेंत गोंयकार तरबेज ना अशें केन्नाच जावपाचें ना. गोंयचेर सैमाची कृपा आशिल्ल्यान जावंये, कला ऋद्धिसिद्धी भशेन गोंयांत उदक भरता. अशे हे कलेच्या कुळारा ऐंशी वर्सांचो हुंबर हुपिल्ली, तपश्चर्येन कलेक गळ्यांत राबोवन दवरिल्ली, सगळ्या हिंदुस्थानभर आपणाले गायकेन मानाचें स्थान मेळयिल्ली, भारत सरकारच्या नाट्य आनी संगीत अ‍ॅकडमीकडसून भारताची पयली 'फेलो' हो व्हड भौमान कर्तृत्वान घेतिल्ली संगीत सम्राज्ञी बाई अंजनीबाय मालपेकार हिची आयचे पिळगेक चडशी वळख आसतलीच अशें सांगूं नज. पूण ती वळख आसूंक जाय. आमच्या फाटल्या पिळगेंतल्या लोकांनी तपश्चर्येन, मेहनतीन आनी कश्टांनी कलेच्या क्षेत्रांत जे येस आनी कीर्त मेळोवन दवरल्ल्या तिची परंपरा तशीच फुडेंय चलत रावंक जाय. देखून निकत्या मुक्त जाल्ल्या गोंयांक आमगेल्या नामनेच्या मनशांची वळख करून दिवपाची चड गरज आसा. ही वळख करून घेवप म्हळ्यार गोंयकारांनी आपल्या आंगांत आशिल्ल्या गुणां कडेन नदर घालप.

'कोंकणी' पंदरशिच्या दिवाळी आंका खातीर अंजनीबाय मालपेकार हांगेली मुलाखत घेवपा खातीर गिरगांवांत तांगेर हांव गेलों.

एका वोलतेरार एक जाणटी, रुप्याच्या केंसांची बायल स्वस्थ पडिल्ली. पोल्यार जाणटेपणाच्यो सुरकुत्यो पडिल्ल्यो. सादें न्हेसप, विशाळ कपाळ. तिका पळेनाफुडें म्हगेली मान आदरान नमली. बंगाल्यां भशेन आमच्या गोंयकारांतय पांयां पडून पांयांची माती मस्तकाक लावपाची चाल आशिल्ली जाल्यार भौ बरें जातलें आशिल्लें असो विचार मनाक आफडून गेलो. तशी चाल आशिल्ली जाल्यार कोणेंय वळख करून दिना आसतनाय हांव तिगेल्या पांयांर तकली दवरून तिगेलो आशिर्वाद घेतलो आशिल्लों. तिका पळेना फुडें म्हाका महर्षि वाल्मिकीची याद जाता. महर्षि भशेन स्वरसाधना केल्ली तपस्विनी फुड्यांत पळोवन म्हगेले दोळे दिपकतात.

अंजनीबायक संगीत अ‍ॅकडमीन फेलोचो भौमान दिवन तांगेलो राष्ट्रपतीं कडल्यान सन्मान केलो. तेन्ना आमगेले पंतप्रधान पं. नेहरू हांणी तांगेल्या सन्मानार्थ पार्टी दिल्ली. तेन्ना नेहरू सारके आंतरराष्ट्रीय किर्तिचे फुडारी अंजनीबायचे मुखार नतमस्तक जाले. बडे गुलाम अलि खाँ सारख्या पट्टीच्या गायकान लेगीत सगळ्यां लोकां मुखार

अंजनीबायक नमस्कार केलो आनी आपणाल्या मस्तकार हात दवरून आशिर्वाद दियात असो हट्ट धल्लो. ॲकॅडमी कडल्यान फेलोचो भौमान मेळटकच जायत्या संस्थांनी तांगेलो गौरव केलो हें तांका मना पासून आवडूंक ना. तांगेलो सभाव मनमेकळेपणाचो अंजनीबायन राष्ट्रपतींच्या हातांतल्यान शाल, फेलोची तबकडी आनी भांगराचें खुणचित्र घेतले. मागीर दोन उतरां उलयतासतना तांणी म्हणलें, स्वतंत्र हिंदुस्थानच्या सरकारा कडल्यान म्हाका फेलोशीप आज मेळटा. म्हाका खोशी जाता. पुण केन्ना सावन हांव संगीताची फेलो आसां. कागदार बरोवन दिलें ना म्हुण कितें जालें? ब्रिटीश सरकारचे मुस्तींत सरकारी बंगल्यार म्हजे खास गाण्याचे कार्यक्रम जाताले. हाचो अर्थ संगीत क्षेत्रांत म्हगेले तपश्चर्येक ते मानताले.

आपूण गोंयकार जावन गोंयकार भावांनी आपणालो सत्कार फेलो जायना फुडेंच केलो. ताचे पयलीं हिंदुस्थानभर आपणें कीर्त मेळयली आसतना गोंयकारांक आपणाली याद जाली ना. हे खातीर अंजनीबायन शीण काडलो. खरें तें. मोग आसा थंय शीण आसाच!

एक काळ असो आशिल्लो जेन्ना गायकांक मानाचें स्थान मेळनाशिल्लें. व्हड व्हड लोक, सरकारी अधिकारी, संस्थानीक गाण्याचे जलशे कराताले. पुण जलशांत वांटो घेवपी कलावंत लोकांक कोणच मान दिना आशिल्ले. पुण अंजनीबायन तें म्हत्वाचें काम आपणाल्या कर्तृत्वान केलें. गव्हर्नराच्या पालासींत जलसो आसल्यार ह्या गावप्यांक मानाची सुवात मेळूंक जाय असो आग्रो तांणी धरलो. तेन्नाच्यान कलावंतांक मानाचो पाट दिवपाची प्रथा रुढ जाली. गव्हर्नर येना फुडें सगळे लोक उबे रावन ताका मान दितात तसो मान अंजनीबायन कर्तबगारिच्या नेटार मेळयलो. गाण्या बैठकींत आपूण सम्राट. तेन्ना सम्राट दरबारांत येना फुडें जे पद्धतीन मानाचो मुजरो दितात ते तरेन बैठकीच्या दरबारांत पावल घालना फुडें सगळ्यांनी - मागीर तो कोणय आसूं - उबे रावंकच जाय असो अंजनीबायलो दंडक आशिल्लो. सगळे लोक तांगेल्या स्वरसाधने कडेन पळोवन आपाप नम्र जातालेच.

अंजनीबायचो जल्म २२ एप्रील १८८३ वर्सा जालो. शंबर सवायशीं वर्सा पयलीं तांगेलें कुटुंब मुंबयंत स्थायीक जालें. तांगेलो आजो वासुदेवराव आनी रामबा हे संगीताचोच व्यवसाय कराताले. रामबा गाताले. गायनाच्यो शिकवण्यो कराताले. वामनराव बेस बरे तबलें वाजयतालें. अंजनीबायेलो आजो गातालो तशेंच तबलेंय वाजयतालों. वासुदेव रावांली धूव नबुबाय ही तांगेली आवय, अंजनीबायली आवय गाताली. तिका आज्यानच गायनाचें शिक्षण दिल्लें. हाचे वेल्यान अंजनीबायच्या घराण्यांत संगीताचो वारसो चलत आयला हे दिसून येता.

तुमी गायनाचें शिक्षण केन्ना पसून घेवंक सुरवात केली ह्या म्हज्या प्रस्नाक जाप दितना अंजनीबायेन सांगलें, 'म्हगेल्या वयाच्या आठव्या वर्सा खाँ साहेब नझीर खाँ हांगेलो हांवें गंडां बांदलो. तेन्ना म्हगेल्या बापायली आर्थीक परिस्थिती जेमतेम आशिल्ली. गंडो बांदपाच्या समारंभाक खूब पयशे खर्च करतात. पूण म्हगेल्या बापायन फुलां हाडलीं आनी पानाचेर पांच रुपयांची नोट दवरली. खाँसाहेब ती नोट पळोवन हांसले. तांणी पांचाचे नोटीची मोड हाडूंक सांगली. मोड हाडना फुडें तातूंतले फकत सवाय पांच आणे गंड्याचेर दवरले आनी बाकीचे बापाय कडेन परते केले. गुरून तेन्ना जे उद्‌गार काडले ताची आयजय म्हाका याद जाता. ते म्हणूंक लागले, 'आज हांवें हाताक गंडो बांदला. तो जेन्ना गळ्यांत बांदतलो तेन्ना तुमी म्हाका जाय जाल्यार पयशे दियात; ताचे पयलीं पयसोय म्हाका नाका.

खाँसाहेबान तुमचे कडल्यान कशी मेहनत करून घेतली अशें विचारना फुडें अंजनीबायन सांगलें, 'खाँसायब सर्दीच फांतोडेर चार वरांचेर आमगेर येताले. सादारण सकाळचे णव-धा मेरेन ते आमगेर रावताले. ह्या वेळांत ते म्हजे कडल्यान मेहनत करून घेताले. तांणी म्हाका साडे तीन वर्सां फकत एक यमन राग आनी मागीर देड वर्स फकत भैरवी राग शिकयलो.

तांणी चार पांच वर्सांत फकत दोनच राग शिकयले? म्हाका गुरूचो मनांतल्यान राग आयलो. भोवच चिक्कू आसूंक जाय तो खाँसायब अशें हांवें मनांत म्हणलें पुण उकतें विचारपाचें धाडस जालें ना. आनी सरळ विचारपाचो वेळय म्हजेर आयलोच ना. अंजनीबायन आपूण जावन फुडें असो खुलासो केलो, पांच वर्सांत दोन रागांचें ज्ञान ही म्हगेल्या संगीताची बुन्याद. यमन हो सगळ्या तीव्र सुरांचो राग आनी भैरवी हो सगळ्या कोमल सुरांचो राग. ह्या दोन रागांच्या अभ्यासान सप्तकांतले बाराय सूर वयर बरे भशेन चडटात. इतलो अभ्यास जायना फुडें हेर खंयचोच राग म्हणपाक अवघड जायना. पांच वर्सां मेहनत करून जातकच खाँसायबान म्हाका सांगलें, 'बेटा, आतां तुजो आवाज तयार जालो. सूर पुराय सुवादीन जाले, लयकारीची नीट समज जाली. आतां तुका शिकोवंक म्हाकाय त्रास पडचे ना आनी तुकाय शिकपाक त्रास पडचे नात. हाचे फुडें हांव सदांच एकदोन वरां येतलो.' तेन्नाच्यान ते दिसांतल्यान एक दोन वरां येताले. बुटाचे बंद बांदतां बांदतां तांणी म्हाका जायते राग शिकयले.

रागांचे जोडयेक अंजनीबायक लयचेंय ज्ञान घेवंचें पडटालें. फकत त्रितालाचे १०८ पलटे समजून घेवंचे पडले. गाण्याचें पूर्ण ज्ञान जावपाक खूब कठीण. तें मेळोवपाक गळो तयार जावचो पडटा. ते खातीर खंडमेळाचो अभ्यास करचो लागता. 'सा' 'रे' आनी 'ग' ह्या तीन सुरांत स तानो. तातूंत आनी दोन सुरांची भर घालतकच १२० परस चड तानो घेवंक येतात. आनी सातय सुरांचेर पांच हजार चाळीस तानो घेवंक येतात. ह्यो तानो खंडमेळाचे मदतीन घेवंक येतात. त्यो एक फावट गळ्यांत बसल्यो की तांतल्यान रागाचो विस्तारय जाय तसो करूंक येता. इतलेंच न्हय तर आयकुवपी लोकांची नाविन्याची भूक भागोवंक येता. पयले भशेन दुसरी तान काडची लागना. दर फावटी वेगळे वेगळे तानेचो आनंद आयकुप्यांक मेळटा.

पं. भातखंडे हांगेल्या सहवासांत आयिल्ल्यान अंजनीबायन संगीत शास्त्राचो अभ्यास केलो. चिजो समजून घेवपाक अंजनीबायन उर्दू आनी आरबी भाशेचो अभ्यास केल्लोच. पूण शास्त्र समजून घेवपाक संस्कृत भाशेचोय अभ्यास करपाक सुरवात केली. ताका लागून अंजनीबायक रिखाब म्हणल्यार ऋषभ, खट म्हळ्यार षट् हें समजलें. इतलेंच न्हय

तर संगीतात लेगीत पयलीं पसून हनुमंत मत, परिजात मत, नारद मत आनी भरत मत अशीं चार घराणीं आसात. एकाक जें वायट दिसता तेंच दुसऱ्याक बरें दिसता हें तांकां कळ्ळें. ह्या अभ्यासान अंजनीबायलो दृश्टीकोन विशाल जालो. अंजनीबायन ३६ वर्सां संगीताचो अभ्यास केलो. इतलीं व्हड तपश्चर्या करपी कलाकार मेळपाक कठीण.

तुमगेलें घराणे खंयचें असो प्रस्न विचारना फुडें अंजनीबायन सांगलें, 'आमगेलें घराणें रामपूर. पूण तेन्ना भेंडी बाजारांत तानसेनच्या घराण्यांतल्या ध्रुपदधमार परंपरेंत शिक्षण घेतिल्लें सज्जू खां, नजीर खां आनी खादीम हुसेन खां अशे तीग भाव रावताले. बंदे अलि खांचे परंपरेक धरून मींड आनी सूर हांचेर तांगेलो खास भर आसतालो. तिगूय भाव गुणेस्त. सज्जू खां कवी आशिल्लें. तांणी ५०० चिजो बांदिल्ल्यो. खादीम हुसेन खां बऱ्यांतले गवय. नजीर खां भौच सारंगी वाजयताले, तशेच गायतालेय. तिगांनीय म्हाका संगीताचे शिक्षण दिलें. पुण खरें ३६ वर्सां फकत नजीर खांसाहेबान शिकयलें.

तुमगेले खंय खंय जलसे जाले अशें विचारतकच अंजनीबायन सांगलें, ''हिंदुस्थानांतल्या सगळ्या प्रमूख शारांनी जलसे जाले. हांव नेपाळांत लेगीत जलसो करून आयलां. बडोदें आनी इंदूर सोडून हेर खंयच्याय संस्थानांत हांव जलशांक गेली ना. सगळे मोटेमोटे संस्थानीक मुंबय येवन म्हगेलें गाणें आयकून गेल्यात.

संगीताची सेवा करता आसतना तुमचेर कसले बरे वायट प्रसंग आयले अशें विचारना फुडें अंजनीबाय सांगूंक लागली, ''एकदां एक मोट्टो जलसो जालो. व्हड गवय आयकूंक आयिल्ले. कार्यक्रम सोंपून घरा येना फुडें म्हगेलो आवाज बसलो. जायते उपाय केले. दुडू खर्चिलो. पुण कांयच उपेग जालो ना. वर्सभर म्हाका आवाज नाशिल्लो. पूर्ण वर्स जातकच नारायण महाराजांचे कृपेन म्हजो आवाज सुटलो. ताणी धाडून दिल्ली खडीसाखर आनी लवंगां खायना फुडें म्हगेली बंद पडिल्ली तान स्वतंत्र जावन भायर पडली. तेन्नाच्यान नारायण म्हाराजांचेर म्हजी श्रद्धा बसली आनी हांव तांगेलीं भक्त जालीं.

''म्हाका गायिकेचो व्यवसाय करता आसतना जायतीं संकश्टां भोगचीं पडल्यांत. एक फावट गोंयांत आरोब्याक गाणें चलता आसतना फिरंगी गोव्हेर्नादोराराचो चेडो म्हजे फाटल्यान लागलो. हांव पळत सुटलें. अख्खी रात एका गोठ्यांत लिपून बसून काडली. फांतोडेर सुखरूप घरा परतलां. तेन्नाच्यान हांवें गोंयांत पावल घालूंक ना. हे खबरेक ४५ वर्सां जाली. डिसेंबरांत गोंयचे स्वतंत्रतायेचो पयलो वाडदीस, तेन्ना म्हाका येवपाचें आमंत्रण आसा. म्हगेलें गोंय स्वतंत्र जालें हाचो म्हाका खूब आनंद जाला. देवा दयेन इतल्या वर्सांनी हांव गोंयांत वेतलें म्हणटां. मुंबयंतय अशेच कठीण प्रसंग म्हजेर आयले. पूण देवाचे कृपेन हांव हातूंतल्यान बरे भशेन वाटावलें. निमाणें टाउन हॉलांत म्हगेलो एक म्हत्वाचो असो जलसो जालो. तेन्नाच्यान हांवें पयशे घेवन जाहीर कार्यक्रम करपाचें सोडलें. हे गजालीक सतरा वर्सां वयर जातलीं. आवय मरतकच हांवें तंबोरो सकयल दवरलो.

तुमी तुमगेली गायकी फुडें चालू दवरपाक शिश्य कित्याक तयार करिनात अशें विचारतकच अंजनीबायन विरूस जावन म्हणलें, ''हालीं कोणाकच मेहनत करपाची उमेद ना. म्हजे कडेन जायते लोक शिकूंक येतात. हांव तांकां शिकयतां. पूण सगळ्यांक झटपट विद्या येवची हीच अपेक्षा आसता. जायत्या लोकांनी म्हजे कडेन गंडे बांदल्यात पूण निखटे गंडे बांदून कितें जावचें आसा? म्हऱ्यांत बसून थोडी तरी विद्या शिकपाची आसल्यार बरें आसा. कुमार गंधर्व हांणी म्हजे कडेन बसून मेहनत करपाचो यत्न केला तांकां म्हगेले शिश्य म्हणपाक हरकत ना.''

तुमगेलें वय जालें. आतां तुमगेलीं खंयची इत्सा पुरी जावची आनी उरल्या असो भैरवीचो प्रस्न विचारना फुडें अंजनीबायचे दोळे तेजान लकलकिल्ल्याचो भास जालो. तांणी सांगलें, ''कला सांबाळून दवरपी कलावंत तयार जावंचे हीच म्हगेली निमाणी इत्सा. आज जायत्या संगीत कलावंतांक रावतलो म्हणल्यार जागो ना. तांचे खातीर कलाकार गृहा बांदचीं आनी आयिल्ल्या गेल्या कलाकारांक थंय रावंक मेळचें अशी आनीक एक इत्सा आसा.''

मुलाखतीक केन्ना सुरवात जाली आनी ती केन्ना सोंपली हे म्हाका कळ्ळेंच ना. तपस्विनीच्या पवित्र सहवासांत वेळ कसो गेलो हेंच म्हाका समजलें ना. इतल्या म्हणसर घडयाळांत वरां वाजलीं. 'आरे पुरो आतां उठ'. असोच घडयाळान म्हाका इशारो दिलो अशें दिसलें. आनी अंजनीबायक नमस्कार करून हांव भायर सरलो.

**(कोंकणी, दिवाळी १९६२ - संपादक अ. ना.म्हांबरो)**



## कथा



# तिश्ठावणी

**दामोदर मावजो**

आयज सायलीचो वाडदीस. हेच निमित्य करून हांवें सायलीक फोन लायलो. पूण फोन घेतलो ना.

कामार लक्षच लागना जालें. दिदीलीं त्रोसां सायलीन इतलीं मनाक लावन घेवपाक नाका आसलीं. हांवें कांय ताका केन्ना काय म्हणूंक नासलें. हांवेंच दिदीक फुडें काडून ताच्या कानार घालपाक लायलें अशें बी सायलीक दिसलें ना मूं? जावं येता. तशें जाल्यार ताणें म्हजे कडेन रुजवात करूं येताली. ना, केली ना. इतलो स्वाभिमान बऱ्याचो न्हय. काय हांवेंच ताका मेळून स्पश्टिकरण दिवपाक जाय आसलें? प्रस्न थंयच सुटावो जावं येतालो.

प्रस्न? दिदीक पडिल्लो आसूं ये प्रस्न. पूण जाप म्हजे कडेन मागची न्हय? भावोजीनच सोयरीक हाडिल्ली सायलीची. पळयता खिणीं म्हाका तें आवडिल्लें. रोखडेंच आमचें मेळप-भोंवप सुरू जाल्लें. म्हणटां म्हणटां आमी लागीं आयिल्लीं, दिदी म्हणटा, पळयता खिणीं तिकाय ती मानवल्ली. पूण मागीर तिणें खबर काडिल्ली. उस्तून काडटकच कॉलेजींतली ताची 'भानगड' दिदीक कळिल्ली.

"दिदी, तुवें म्हाका पयलीं सांगपाचें न्हय? म्हाका खबर आसली तिची ती खबर." हांवें दिदीक विचारलें लेगीत.

"तूं कुड्डो जाला तिच्या मोगान. तूं तिका विचारतासलो?"

"म्हूण तुवें-"

"हय. हांवें तिका स्पश्ट विचारलें- त्या इश्टा वांगडा मजा मारून जातकूच आतां म्हज्या भावाक उश्टें खावोवंक सोदता काय म्हूण!"

म्हज्याच काळजाक दाग दिलेवरी दिसलें म्हाका. सायलीक बाबड्याक कितें जालां आसतलें? बरें दिदीन म्हाका तरी सांगलां. तिचे कडेन आपूण उलयलां म्हूण?

सायली म्हाका टाळटा म्हूण लेगीत कळ्ळें ना म्हाका. मेळचे सुवातेर मेळूंक आयलें ना. फोन केल्यार फोन घेना. तिच्या हुसक्यान मॅनेजराक फोन केल्यार ताचे कडल्यान कळ्ळें- 'ती सांगता, तुमचो ब्रेक-अप जाला म्हूण.'

मागीर दिदीनच फोन करून सांगलें- "तिचो नाद सोड आतां. तुका तिचे परस सुंदर आनी बऱ्यो सोयरिको हाडटां हांव, पळय."

व्हडली भयण म्हूण पळय नासतना हांव तापलों. "खबरदार, दिदी आनीक सोयरीक घेवन येशी जाल्यार. सायलीक तूं वळखुपाक चुकलें. आनी म्हाका तरी कितलें वळखलां तूं? तूं जाणा, कॉलेजींत आसतनां त्या सँड्रा वांगडा म्हजी इश्टागत आसली. तुका तें अफॅअर शें दिशिल्लें? आमी दोगांय एकोडीं आसतना दोन-तिनदा लागी लेगीत आयिल्लीं. तुकाय तो दुबाव आसलो. पूण तेन्ना तुवें कित्याक आडायलो ना म्हाका?"

"आरे, तूं दादलो -"

"शट अप, दिदी. दादल्यालो तो पुरुशार्थ आनी बायलांचें तें शेण? आयक दिदी, हांव सायली बगर लग्न जावंचो ना. आंकवारच रावतलों. आन्येक आयक- हाचे फुडें तूं म्हजे जिणेंत ना अशें समज." फोन तोडिल्लो हांवें. पूण उलयिल्लों तें मना काळजा थावन उलयिल्लों. खुबच राग आयिल्लो म्हाका दिदीचो.

आयज पांच म्हयने उलगल्ले ते गजालीक. सायलीक विसरपाचो यत्न करतालो हांव. पूण पाड पडिल्ली याद निमित्त्याक राविले भशेन घडये घडयेक मेळूंक येताली. उगडास आसलोच तरी सकाळींच फेसबुकान आस्त जागयली. फेसबुकार दिल्ल्या शुभेच्छांत आपलेपण नासता, तिरायतपण आसता, अशें सायलीनच एकदां म्हणिल्लें. आतां आपलेपण काय ना जाल्यार तिरायतपणान तरी वीश करुया म्हूण 'हॅपी बर्थ डे' म्हणलें. पूण.... तिरायत-पणान वागू दी सायलीक! म्हजें आपलेपण खंय सरला? देखून फोन लायिल्लो. पूण ना- जाप मेळ्ळी ना. नाशिल्लोच मूड पुरायेन ऑफ जालो.

'टक-टक' दारार वाजोवन एक तरनाटो केबिनांत भितर सरलो.

''येस? नकळटना कपलार मिरी पडिल्ली जावंये. तो मातसो घुसपलो,'' डिस्टर्ब केलो तुका? मातशे डिस्कस करपाक जाय आसलें.''

म्हजो मूड धंद्याच्या आड येवंक फावना. पयलींच धंद्याक दीस बरेऽ नात. अशें येवजून हांव इल्लो मुखार सरून बसलों, ''प्लीज, हॅव अ सीट.''

''हांव वॉल्टर पेरैरा! सर, पोरूं हांयेन एक रो-हाउस बूक केलेलें.'' ताणें खांकडत सुरवात केली.

''प्रोजेक्ट खंयचो?'' हांवें लॅपटॉपाचेर फायल उगडीत विचारलें.

''माठकर माटी - फातोर्डा'' हरशीं जाल्यार माठकार मठीच्यो त्यो भगलो शो दिसतल्यो आसल्यो. पूण आयज न्हय.

''डॉन्ट वरी! बाय नेक्स्ट मे तुका पजेशन मेळटलें.''

''ना, सर. आय हॅव नो कम्प्लेन ! हांव रिक्वेस्ट करपाक येयलां. आय वॉन्ट टू कॅन्सल माय बुकींग-''

''इट्स टू लेट, मिस्टर पेरैरा !''

''हांव जाणां, सर. बट आय हॅव डिफिकल्टीस. म्हगे टॅक्सी बिझिनेस डाउन आहा. आनी बॅंक लोन दिवपाक कुश्तार करता-''

हाली दिसांनीं बुकिंगा परस कॅन्सलेशनां चड जावंक लागल्यांत खरीं. पूण हांका थातारून धरले नात जाल्यार आमचे कंपनीकूय तालें लागपाक चड कळाव लागचो ना. पूण ताका धीर दिवन ताचें आत्मबळगें वाडोवपाक पयलीं हांव त्या मुडांत आसूंक जाय, न्हय?

''मि. पेरैरा, सध्याक रिसेशन आसा ही गजाल खरी. पूण ती एक टेम्पररी फेज. खरें म्हटल्यार, धीस बुकिंग इज टू युवर ॲव्हाण्टेज! रेट आतां कितलो वाडला, तूंच पळय. तुवें केल्लो हो एक बरो इन्व्हॅस्टमेंट! थोडेच दीस पासियेन्स काड. तुकाच...''

''पूण सर, दुसरें गिरायक मेळटा जाल्यार...''

''मि. पेरैरा, गिरांयकां जायतीं आसात. दुडवांच्यो थैली घेवन दारार उबे आसतात. पूण ते सगले भायले. आमी गोंयकारांनीच आपली शेंडी तांच्या हातात दिल्यार शेणटले ते आमी. हॅव कॉन्फिडन्स मि. पेरैरा! हांवे गोंयकारपणाचें कार्ड भायर काडना फुडें वॉल्टर पेरैराच्या मुखामळार जाणवपा इतलो बदल घडून येवपाक लागलो. फुडलें काम कठीण नासलें. पूण म्हाकाच तो मूड नासलो.'' हांव सांगू, मि. पेरैरा! ''तुज्या हातांत व्हॅल्युएबल असेट दिवपाचें हांव तुका उतर दितां. आनी लोनच जाय जाल्यार वी वील हॅल्प यू. पूण डॉन्ट मेक हेस्ट. आतां, यू गो बॅक - रिलॅक्स बारीक चिंत. आनी यू मे सी मी अगेन द नेक्स्ट वीक.'' अशें म्हणून हांव उठलों. वॉल्टरय उठलो. हात दिवन फुडल्या सप्तकांत येतां म्हूण सांगून गेलो.

फाटले पांच म्हयने हांवें स-सात मेरेन ऑफिसांत बसपाची संवंय लावन घेतिल्ली. पूण आयज पांचांकूच उठलों. हालीं कामाचो व्यापूय खूब उणो जाल्लो. 'रॅरा' कायदो जायत सावन माठकारान सगलें लक्ष हातांतले प्रोजेक्ट पूर्ण करपाचेर केंद्रीत केल्लें. नव्या प्रकल्पांची ताकीत नासली. आनी गिरायकांचीय आदलेवरी गर्दी नासली. फोन उकलून मिरांदाक सांगलें आनी भायर सरलो.

गाडये कडेन पावतकच लक्षांत आयलें, चावी मेजार उरली म्हूण. ऑफिसांत वचून चावी उकलतां म्हणसर मेजा वयलो फोन वाजलो. माठकारच उलयतालो, ''विराज, एक बरी खबर आसा. राय एक जमीन आसा. भाटकार गरजेक आयला. सवाय भितर मेळूं येता. पळोवपाक आफयतालो तो. तूं फ्री आसा आतां?'' म्हज्या कपला वयली मिरी काय माठकाराक दिसप शक्य नासलें. पूण जापेक कळाव लागलो ताचे वयल्यान ताणें अदमास काडलो जावंये. ''आसूं, विराज. ताकीत मारल्यार ताका दिसतलें आमी गरजेक आयल्यात म्हूण. फाल्यांच या आमी. धाक तयार राव.'' इतलें म्हणून माठकारान फोन दवरलो.

खंय वच्चें तें काय थारावंक नासलें. पूण गाडी पार्क केली आनी म्हजें म्हाकाच अजाप जालें. हांव गाडी घेवन हांगा आयलों काय गाडी म्हाका घेवन हांगा आयली? सोयरीक जायत सावन आमी नेमान हे एकांत सुवातेर येवन बसतालीं. गाडी अशी पयस दवरप आनी हांगा येवन वरांची वरां बसप. सुवात तरी कितली सुंदर! सैमान आमचेच खातीर रचिल्लेवरी. सापडली तेन्ना अजापच जाल्लें म्हाका. कोणे तरी निरुपेगी जातकच सोडून दिल्ले चिऱ्यांखणीचे कुशींतल्यान झिलींतले पांय वाटेन वयर वयर वतकच तेमकारशी मेळिल्ली आमकां ही सुवात. तीन चार हात रुंदायेचें तणा वालींनी लिपिल्लें तळप तें. सैमान तयार जाल्लें काय केन्ना तरी मनशांनी कोरांतिल्लें, कोण जाणा! उपरांत ताचेर वाली बी चडिल्ल्यान कोणाचें लक्ष वचूं नासलें जावंये- गोरवांक घेवन चरोवपाक येवपी राखण्यांचें लेगीत! पूण आमचे खातीर तें रत्नखचीत आसन शें जाल्लें. हे सुवातेर हांवें सायली वांगडा कितलींशींच वरां सारिल्लीं. पयसावल्या उपरांतूय त्या यादींनी घुसपून रावपाक पयलीं पयलीं म्हाका खूब आवडटालें. पूण मागीर यादीचे खवळेक नाखूट लागतकच रगत भळभळपाक लागता तें सोसूं नज जावन हांवें हांगा येवप बंद केल्लें. आयज सायलीचो बर्थडे- त्या निमतान काडुंया खवळी, येवंदी थोडें रगत- अशें येवजून हांवें वयली वाट धरली तेन्ना पयस दोंगुल्ली देंवन वचपी गोरवां गळ्यांतल्यो घांटी सोडल्यार सगलें शांत शांत आसलें.

पयलीं वाली थोड्यो कुशीक ओडल्यो. तण चडच वाडिल्लें. हांवें थोडें हुमटिल्लें मात- एक शेड्डो सरसर धांवन उडकी मारून वालींर चडून पयस गेलो. म्हाका फाटल्या गूड फ्रायडेचो उगडास आयलो... सुटी आशिल्ल्यान आमी बेगसारच आयिल्लीं. बसतात म्हणसर सरसर करून एक शेड्डो धांवन गेलो. सायलीन भियेवन म्हाका वेंग मारली- 'नाका हांगा. या आमी. हांगा जिवाणीं आसात...' सायली शेळेल्लें.

''आगो, जिवाणे न्हय तें. शेड्डो तो. काकुळट बाबड्याची-''

''इतलें भेशटायलें म्हाका. आनी तूं ताची काकुळट शी करता?''

''आगो, आयज गूड फ्रायडे! भुरगे ताका मारूंक भोंवतात. तो बाबडो जीव वाटावपाक धांवता आसतलो हे वटेन ते वटेन...'' आनी

मागीर हांवें सायलीक भुरगेपणांत आयकल्ली ती खबर सांगिल्ली- जेजूक मारूंक सोदताले तांकां जेजू खंय आसा तें खंय शेड्ड्यान दाखोवन दिल्लें. तेन्नाच्यान गांवचो किरिस्तांव लोक शेड्ड्याक जुदेव म्हणटात आनी दिश्टी पडलो की मारूंक सोदतात. गूड फ्रायडे दिसा चड करून - वालींच्या कुशनाचेर बसतकच सायलीची चडच याद आयली. मोबायल भायर काडलो. गॅलरी उकती केली. आनी ताचे फोटो पळयत बसलों. सुर्या सकयल वता तशें वत मोव मोव जायत गेलें. इतल्यान सकयल परतून सरसर - खरखर आवाज आयलो. खातरीन हो शेड्डो न्हय. म्हज्या फुड्यांत देंवून आयिल्ली वाल कुशीक काडून पळय जाल्यार हालचाल जाता ती जाणवली. व्हडलें जनावर बी ना मूं ह्या रानवटार? उठून वच्चें शें दिशिल्लें. म्हण सर पळय जाल्यार एक दादलो आनी बायल थंय जुवळटालीं. तीं थंय येवन बसलीं केन्ना आनी लागीं येवन जुवंळ्ळीं केन्ना हांवें पळयलेंच ना. तशीं तीं म्हजे कडसून पयस नासलीं. म्हाका तांची जणेक हालचाल स्पश्ट दिश्टी पडटाली. हरशीं जाल्यार असलें दृश्य पळोवन म्हजी चेतना जागी जायत आसली. पूण आयज म्हजें मन सायलीच्या यादींनी आनी पयसाव्यान तळमळटालें. अशा वेळार त्या देखाव्यान म्हजें मन मात्तूय उकललें ना. अशीं तशीं धा-पंदरा मिणटां. तो उठलो. ताणें सरभोंवतणी नदर मारून कोण लागीं ना हाची खातरी करून घेतली. हांव खीणभर तटास जालों. स्वास अडावन धरलो. ताणें म्हाका पळयलो जाल्यार? ताका कितलें चोरा भशेन जातलें! पूण वालींनी केल्ल्या आडोशान म्हाका लिपयिल्लो. ताणें कुरू केली आनी तीय उठली. न्हेसण सारकें केलें. म्हाका आतां तांची तोंडां स्पश्ट दिसतालीं. तो दादलो- दादलो कसलो, तिशीख तेंकिल्लो तरनाटोच म्हणूंक जाय. वळखीचो सो दिसलो. तिणें घडयाळ पळयली. ताणें तिका ओडून घट्ट धरली.

''या. वेळ जातलो.'' तिणें म्हणलें. म्हाका हयन्हयशें आयकूंक आयलें.

''फाल्यां?''

ती वग्गी.

ताणें परतून म्हणलें, ''फाल्यां!''

मागीर तीं देंवन चलपाक लागलीं. हांवें आडावन दवरिल्लो हुसकारो सोडून दिलो. थोडो वेळ वचूंक दिलो. आनी काळोख देंवचे पयलीं हांव सकयल देंवलों. सायलीच्यो यादी काडपाक म्हूण गेल्लों. पूण यादींनी घुसपल्लों आसतनाच आगळेंच कितें तरी पळयलें. ते तरनाटे बायलेक कांय हांव वळखना. वळखीची आसल्यार घडये बरे-वायट विचार येत रावतले आसले. पूण तरीकूय तिचें मुखामळ आनी आंगलोट दोळ्यां मुखार स्पश्ट उबो जाल्लो. तो तरनाटो दादलो तरी वळखीचो सो दिशिल्लो. खंय तरी ताका पळयिल्लो. 'फाल्या', ताणें तिका म्हणिल्लें. फाल्यां परतून मेळटलीं तर तीं! खंय काय? थंयच! पूण 'फाल्या येतां' म्हूण सांगून वचपी परत येतातच अशें खंय आसता? बांदकाम धंद्यांत तर चडशें अशेंच घडटा. आयज केबिनांत मेळिल्लो वॉल्टर - परतो येतलोच म्हूण खातरी आसा? आन्येक फावटी असोच एकलो- आरेच्च्या! तो काय कितें हो? जायत. जायत न्हय, हयच. तरीच वळखीचो सो दिसतालो.

दोनेक म्हयन्यां फाटीं तोय असोच केबिनांत म्हाका मेळपाक आयिल्लो- ''सर, म्हाका एक फ्लॅट जाय. चड व्हड न्हय. पूण सामको ल्हानूय नाका.''

''वन बी.एच.के. उपकारता?'' हांवें अदमास घेतिल्लो.

ताचो प्रोब्लेम वेगळो आसलो. घरांत आवय-बापूय आसलीं. व्हडलो भाव लग्न जावन वेगळो रावतालो. ताचो वन बी.एच. के. फ्लॅट आसलो. पूण थंय आवय-बापायक रावपाक वेगळी कूड नासली. देखून आवयबापूय हाचेसरीं रावतालीं. दारांतलो हॉल खुबच ल्हान जाल्ल्यान अडचण जाताली. हालींच ताचें लग्न थारिल्लें खंय.

''म्हजी अडचण समजून घेयात, सर. आवयबापायक तांचे संवकळीचे कुडींतसून भायर काडपाक मनाक पुटवना. तेय भायर न्हिदतले म्हणिनात. आतां लग्न जालों जाल्यार बायलेक घेवन न्हिदपाक म्हाकाच घरांत सुवात ना.''

त्या वेळार तागेलीं तीं भीड मुर्वत कुशीक दवरून काडिल्लीं उतरां आयकून म्हाका हांसचें काय रडचें तें कळ्ळें नासलें. ''टू बी.एच.के. जाय, सर. सेकंड हँड लेगीत उपकरता- सवाय भितर मेळ्ळ्यार बेगीन सो जाय-'' ताणें सांगिल्लें. ताणें सांगिल्ल्या बजेटांत म्हजे कडेन ताचें काम जावपा सारकें नासलें. देखून 'हांव पळोवन दवरतां' अशें सांगून कटोवपाचो यत्न केल्लो हांवें. जाल्यार 'फाल्यां पासय मारतां' म्हूण सांगून गेल्लो तो.

खरें म्हणल्यार, लग्न थारावचे पयलीं हाणें जागो पळोवपाचो न्हय? म्हाका ताका विचारचें शें दिशिल्लें - 'दोन कुडीं बगर लग्न जर जालो जाल्यार हातूंतल्यान वाट कशी काडटलो तूं? पूण सभ्यतायेन म्हाका आडायिल्लो... तरी आयज ताची जाप मेळ्ळी हाचें म्हाका समादान जालें. गरज भागोवपाक वाट सोदून काडप हो मनशाचो सभावच. ह्या तरनाट्यानूय आपणाली वाट सोदून काडिल्ली.

सांजेर हांवें पळयिल्लो तो व्यभिचार न्हय, परद्वारी न्हय तर एका गरजेवंत होंवरान सोदून काडिल्ली ती आडवाट! म्हाका आतां सू जालें. त्या दोगां विशीं एक तरेचें आपलेंपण शें दिसूंक लागलें. म्हज्याच मना वयलो भार देंविल्लेवरी मन ल्हव जालें.आनी येदोवेळ दोळ्यां आड जाल्लें तें सायली परतून न्हिदसुन्या दोळ्यां फुडें येवन ताणें न्हिदेचें पांगरूं म्हज्या तोंडा वयल्यान ओडलें.

सकाळीं जाग आयली तेन्ना हांवें एक विचार केळोवपाक घेतिल्लो. तेन्ना त्या तरनाट्याक हांव फावो तो पालव दिवंक पावंक नासलों खरो. पूण आतां - अजून तो तितलोच गरजवंत आसा - ताका फावो तो आदाराचो हात हांव दितलों. पूण तो कोण? खंय रावता? कितें करता? म्हाका कांयच खबर नासली. सोदून काडूंक जाय. च्या बी घेवन ऑफिसांत वचपाक भायर सरतासर णव जावन गेलीं. वाटेर आसतनाच मठकारालो फोन आयलो, ''गूड मॉर्निंग विराज. एक प्रोब्लेम जाला. म्हगेलो ड्रायव्हर बरो ना - तो येवचो ना आयज. तातूंत त्या गिल्बर्टालो - तो रे रायचो भाटकार - ताचो फोन आयिल्लो बेगीन पावात म्हूण. तूं अशें कर. तूंच गाडी घेवन म्हगेल्या घरा कडेन यो. हांव तयार रावतां. सोमतेच या आमी राय.''

गाडी रस्त्यार काडपाक धा मिणटां लागलीं. रवीन्द्र भवना कडलें ट्रॅफीक आयलांड काड जाल्यार फुडल्यान दोन बसी. ओवरटेक करपाक सायडूय दिनात आनी आपुणूय फास्ट वचनात. लिंगा कडल्या चार रस्त्यांर झक मारीत बसीं फाटल्यान रावचें पडलें. पांच म्हयन्यां फाटीं आंत्रा पयल्यान येतालों हांव हे वटेन - सायलीक मेळपाक वा ताचें ऑफीस सुट्टकच ताका पीक अप करपाक. तेन्नाय म्हाका अशोच तिडकी येताल्यो. एक दीस सायलीन म्हणिल्लें लेगीत - 'सोंपो उपाय. तूं मिनिस्टर जा आनी घाल सगलें निटायेर.' ते वटेन माठकार वाटेर येवन रावता आसतलो. चडफडत हॉर्न मारीत हांव ओवरटेक करपाक रीग सोदतालों. इतल्यान बस परतून रावली. आनी हांव तटास जावन पळोवपाकच उरलों. कालची ती तरनाटी बायल पिट्ट करून उडकी मारून बसींतसून देंवली. आतां खंय वतली काय? स म्हयन्यां फाटीं जाल्यार सायलीकच विचारूं येतालें. ताचेंय ऑफिस हांगाच न्हय? वळखता लेगीत आसतलें...

बस फुडें गेली तरी हांव ते बायलेक पळोवपाकच उरलों. तिचे मार्फतीन त्या तरनाट्या कडेन पावप सोपें आसलें. पूण-आतां फाटल्यो मोटारी हॉर्न मारूंक लागल्यो. कितें करचें? गाडी सायडीक घेवपाकूय सुवात मेकळी नासली. ती बायल आठ धा पावलां सडसडीत चलली आनी अजाप! सायली काम करतालें त्याच ऑफिसांत भितर सरली. काळजाचो आन्येक ठोको चुकलो. फाटल्यो गाडयो हॉर्न वाजयत करंदाय मारूंक लागिल्ल्यान म्हाका फुडें सरचेंच पडलें.

मठकाराक घेतलो. राय गेले. भाटकाराक मेळ्ळे. जागो पळयलो. पेपर तपासले. मठकारान वाणपणांय केलीं. कागदपत्रांच्यो फोटोकॉपी घेवन परते ऑफिसांत पावतासर जेवणाचो वेळ जालो. सांजे सोमतोच ॲडव्हॉकेटाक मेळपाक वतलों म्हूण सांगून मठकार गेलो. पूण इतल्याय बोवाळांत कालचो तो तरनाटो दादलो आनी ताची बायल दोळ्यां फुडल्यान हालली नात. हांवें कुटमेकाराली फायल काडली. तागेलें पोरणें घर मोडून आमी थंय चोवीस फ्लॅटांचो प्रोजेक्ट उबो करूंक घेतला. फुडल्याच म्हयन्यांत लोक थंय रावंक येतले. कुमटेकाराक आमचोच एक पोरणो टू बी.एच.के. फ्लॅट तात्पुरतो रावपाक दिल्लो. तो नव्या फ्लॅटांत वतलो तेन्ना पोरणो फ्लॅट विकचो अशें मठकारानच म्हणिल्लें. तो फ्लॅट तांकां दिवं येता. ताका तो म्हारग पडचो ना इतली काळजी घेवपाची..... म्हज्या मनाची हांवें तयारी केली. तीं दोगांय रावतात खंय तें खबर नासलें. पूण आतां ती तरनाटी सायलीलें ऑफिस आसा थंयच खंय तरी काम करता इतलें तरी कळिल्लें. काल ताणें म्हणिल्लें - 'फाल्यां' म्हूण. कालचे भशेन आयजूय तीं थंय येवं येतात. थंयू आयजूच तांकां मेळून घेतलें जाल्यार?

''आयचें काम फाल्यांर उडोवप नाका, देखून फोन करुंया म्हुटलें'' वॉल्टर परैरा फोनार आसलो. ''काल तुवेन म्हाका दिललो डव्हाय्स एकदम बऱ्याक पडलो, सर. म्हुगे सासपायन दुडू उशिणे दिवपा चें उतर दिलां. आतां रो-हाउस कॅन्सल करपाचें ना म्हाका.'' वॉल्टराचो तो फोन म्हाका बेठोच शेगुनाचो सो दिसलो आनी उमेद शी आयली. आयज कालचे परस थोडो वेळ बेगसारच भायर सरलों. गाडी पयस दवरून कालचेवरी म्हगेली वाट माड्डीत वयर वचून फातरीच्या त्या सोफ्यार बसलों. तीं आयलीं जाल्यार तांचे कडेन विशय काडप कसो? बऱो तांच्या फायद्याचोच प्रस्ताव जालो तरी काल हांवें तांकां थंय पळयिल्लें म्हूण सांगप?- तो सगलो प्रकार हांवें पळयिल्लो म्हूण तांकां कळ्ळ्यार कितली कुचंबणा जातली तांची! ते परस सकयल देंवन तीं परतीं वतना तांका हटकुवचें आनी दिवची ही ऑफर! खूब खुशाल जातलीं दोगांय-! मठकाराकूय सांगून दवरचें त्या टू.बी.एच.के.ची खबर अशें. येवजीत मोबायल हातांत घेतासर तीं दोगांय दोंगर चडटात तीं दिश्टी पडलीं. आतां उपाव नासून हांव बसून रावलों. पयल्यान पयलीं मोबायल स्वीच ऑफ केलो.

तो फुडें पळयत चलतालो. ती परतून परतून फाटल्यान पळयताली. चार वणटीं भितर जें करपाची सुविधा ना तें चार चौगांचे नदरे आड पूण उकताडार करपाची पाळी तांचेर आयिल्ली. आनी हांव? निर्लज्जावरी तांचो मोग-भोग पळयतलों?

तीं कालचेच सुवातेर येवन बसलीं. कांय वेळ गजाली मारून जातकूच ताणें तिका बगलेक ओडली. तीय ताचेर लंवडली. धा एक मिणटां तांची खूस फूस चलताली. स्पश्ट आयकूंक येनासलें. म्हजेंच काळीज धडधडटा तें म्हाका आयकूंक येतालें. इत्सा नासुनूय हांव तांचे चाळे दोळ्यांत आसपावन घेतालों. हें थांबूंक जाय. अशीं उकत्यार येवन जुंवळपाचो प्रसंग तांचेर हाचे फुडें येवंक फावना. ताचो हात तिचे फाटी वयल्यान फुडें पावलो. दुसरोय हात न्हेसणांत गेलो. हे वटेन म्हजेय स्वास उश्ण जावंक लागले. फुडलें पळोवचें न्हय म्हूण हांवें नदर घुंवडायली. आनी हांव गणमणलों. एक गुंडा दिसपी दादलो लिप-चोरयां तीं दोगांय पाज्ज चडिल्लीं तेच वटेन येतालो. झोंपांतल्यान चलता आशिल्ल्यान मदीं मदीं ताचें तोंड तितलें दिश्टी पडटालें. मनशाचो हेतू बरो सो दिसलो ना. आनी लागीं पावलो तशे तर ताचे हावभावूय दुबावाचे शे दिसले. ते बायलेचे वाटेक वचपाच्या इराद्यानच तर तो येनाशिल्लो मूं? तांकां शादूर करचें असो विचार मनांत येता म्हणसर तो दादलो लागीं पावलो. मदींच ताच्या हातांत हांवें दांडो पळयलो. हांवें व्हडान 'हर्त' करचें म्हूण तोंड लेगीत उगडलें. पूण गची आंवळिल्ले भाशेन ताळो अंदलो. कितें जाता तें कळचे पयलींच त्या तरनाट्याचे फाटीर धब्ब करून दांड्याचो धपको पडलो. तो दादलो तिचेच खातीर आयिल्लो जावंये. देवा सायबा, तो तिची वाट लावंक लागलो जाल्यार म्हाका तेंय पळोवचें पडटलें काय? त्या आडदांड दादल्या मुखार तो तरनाटो अस्कत कूळ शें दिसतालें. म्हाका काळजा थावन दिसलें, त्या दादल्याक ताणें मार घालून धांवडावचो. पूण तो उठचे पयलींच त्या गुंडाल्यो दोन खोंटी त्या तरनाट्याच्या भोंकार पडल्यो. तो दादलो आनिकूय मार घालपाचे तयारेंत आसलो. धांव मारून वचचें आनी ताका आडावचें शें मनांत आयलें. त्या तरनाट्याचो आदार मेळ्ळो जाल्यार आमी एकाचे दोन जाल्ले पळोवन तो गुंड घडये पळून वता आसलो.

म्हजें पावल फुडें पडलें लेगीत. पूण पळय जाल्यार तो तरनाटो बायलेक राखण दिवपाचें सोडून तिका थंयच सांडून भोंकार हात धरून पँट सांबाळीत परते वाटेर धांवट मुटलो. म्हजेर आकांत आयलो. तिचे आबरूची राखण करप ही म्हजी लागणूक म्हूण कळटालें. पूण म्हजो जीव वगडावपाची तयारी आसल्यारूच हांवें फुडें सरूंक जाय हेंय म्हाका कळटालें. म्हजे पांय गळसणले. त्या मस्तेखोरान ते अस्तुरेच्या केश्टांक धरली आनी तो दयामाया नाशिल्लेवरी त्या गरीब पाडकाक ओडीत व्हरूंक लागलो. खंय व्हरीत काय? ताणेंय एखादरो सुगूर जागो पळोवन दवरिल्लो काय? काय तो तिका दुसरे कडेन खंयूय व्हरून तिचेर आगळीक करतलो काय? तिची ती बाबडी आवतिकाय पळोवन लेगीत म्हज्यांतलो पुरुशार्थ जागो जालो ना हाची म्हजी म्हाकाच लज जाली. पुलीसेंत तक्रार करची असो विचार आयलो. पूण मागीर 'तूं थंय कितें करतालो' ह्या प्रस्नाक जाप कितें दिवं आसलों? आंगांतलें त्राण वचून हांवें थंयच बसकण मारली. काळोख जावंक लागलो तसो हांव उठलों. लटलटत्या पांयांनीं वाट देंवलों. आनी न्हिन्नळिल्लो, गोंदळिल्लो जीव घरा हाडून घालो. राती हांतुणार आड पडिल्ले कडेन सायलीची याद आयली. तिचे कडेन मन उकतें करूंक मेळिल्लें जाल्यार कितलें ल्हवल्हव दिसतासलें! आनी अकस्मात त्या विचारान हांव सट्ट करून उठून बसलों. त्या दोगांचे सुवातेर हांव आनी सायली आशिल्लीं जाल्यार? येवजूनच शेळो घाम सुटलो. ना, ते अस्तुरेच्या वांट्याक जी अप्रतिश्ठा, जी विटंबना आयली ती थंड रावन सोसूंक फावना. तिच्या त्या घोवान आपणालो जीव वांटावपाक बायलेक त्या गुंडाच्या सुवादीन केली ती ताची चुकच. भायल्या भायर पुलिसेंत वचून तक्रार तरी दिवंक जाय आसली ताणें. पूण ती दिवपाचेंय धाडस नासूंये ताच्यांत. पूण हाचे फुडें- जालें तें जावं अशें म्हणून तिचो स्विकार करीत मूं तो? करूंकच जाय. ताचे कडेन आपले खातीर वेगळी कूड आशिल्लें घर आशिल्लें जाल्यार हें इतलें घडूंक पावचेंच नासलें. हांवें आतां ताका मेळून घेवंक जाय. दोन बी.एच. के.चो प्रस्ताव दवरूंक जाय. आनी ती? त्या गुंडान सोडली आसतली मूं तिका? पावली आसतली मूं घरा? तिणें सोमतीच वचून पुलिसेंत तक्रार दिवंक जाय! दीत काय ती? तितली धाडशी नासुंये ती. पूण त्या गुंडाचें फावलें अशें जावंक जायना. फाल्यां तिका मेळून सांगपाक जाय - कर तूं पुलिसेंत तक्रार म्हूण. गरज जाल्यार हांव आसां साक्षीदार म्हूण. पूण.... हांवें सगलें पळयलां म्हणल्यार ती चडच काचाबूल जातली. म्हाका उपाय सुचना जालो तेन्ना हांवें थारायलें - सकाळींच तिका मेळप, त्या वेळार सुचता तशें तिका सांगप आनी म्हजो पुराय तेंको उकतावप... बेगसार भायर सरलों. ऑफिसां सुरू जावचे पयलींच तिच्या ऑफिसा मुखार कुशीक शी गाडी पार्क करून वाट पळयत रावलों. पांच स म्हयन्यां फाटीं हांव हांगा खूब खेंपो पावतालों- सायलीक मेळपाक. आतां म्हाका हांगा पळयल्यार सायली कितें म्हणटलें? म्हणूं - म्हणपाचें उरलां तरी कितें?

आनी मुखार पळय जाल्यार ती तरनाटी आनी सायली वांगडाच ऑफिसाचे दिकेन चलतालीं. कितें जाता तें जावं अशें म्हणून हांव फुडें सरलों. तीं भितर सरचे पयलींच पासयेचेर तिचे मुखार वचून उबो रावलों. घडये सायलीक दिशिल्लें हांव आपणांक मेळूंक सोदतां. पूण हांवें निट्ट ते तरनाटे कडेन पळोवन म्हणलें - "मीस, आमची वळख ना. पूण म्हाका तुजे कडेन गरजेन उलोवपाक जाय."

तो मेरेन तिचे सुजिल्ले दोळे, किणेल्लें निळें कानसूल आनी कशाय कशे वळयिल्ल्या केंसां कडेन म्हजें लक्ष वचूंक नासलें. गेलें तेन्ना चडच काकुळट दिसली. हांवें अकस्मात फुडो केल्ल्यान ती घुसपली. आनी बाबडी जावन सायली कडेन पळोवपाक लागली. चड ताणून धरप बरोबर न्हय अशें म्हूण हांवें निट्ट विशयाक हात घालो. "काल सांजेर तुका त्या मस्त्या दादल्यान दोंगुल्ले वयल्यान भरभरीत ओडीत सकयल व्हेल्ली हांवें पळयिल्ली. हालीं ही गुंडागिरी खूब वाडल्या. तुवें पुलिसेंत तक्रार करूंक ना जाल्यार आतां करची. जाय जाल्यार हांव तुका आदार करीन..."

जितले ताकतिकेन हांवें सगलें सांगून उडयलें तितलेच ताकतिकेन ती अस्तुरी दुपट्याचो गुड्डो तोंडाक मारून सायली आनी म्हजे मदसून धांवट भितर गेली. म्हजें सांगप चुकलें हे अपराधी भावनेन हांव तिचे वटेन पळयत उरलों. सायलीय आतां रागान वतलें अशें दिशिल्लें. पूण ताणें लागी येवन मानेनच विचारलें - कितें जालें अशें? हांव गणमणलों. पूण ताच्या त्या विचारपान धीर आयलो.

"एक धा मिणटां उलोवपाक वेळ आसा तुजे कडेन?"

"येतां, राव." अशें म्हणून सायली भितर गेलें. बायोमॅट्रीकचेर हाजिरी नोंद करून परतलें.

कितल्याशाच म्हयन्यांनीं आमी त्या हॉटेलांत गेलीं. कॉफी मागयली. आनी मात्त कांय लिपय नासतनां सायलीच्या बर्थडे दिसा मूड ऑफ जाल्ल्यान हांव ते चिन्याखणी कडले सुवातेर गेल्लों थंयसून सुरवात करून काल राती मेरेनची सगली खबर सायलीक विस्तारान सांगली. इतलें सगलें आयकून घेयसर सायली कांयच उलयलें ना. आतां तें कितेंय विचारतले वा सांगतलें अशी हांव वाट पळयतनाच मेजा वयली पर्स उकलून तें उठलें. आनी म्हाकाच बुचकळ्यांत उडोवन भायर सरून गेलें.

सायलीन अशें करपाचें न्हय! सगलें बरें आयकून घेतलें आनी अशें चलत रावलें? फाटलो राग वचूंक ना, तें बरें आसा. ते तरणाटेची तरी काकुळट करपाची!... सायली मातशें बारीक जालां शें दिसलें. काम चड पडटा काय? हांवें विचारूंक जाय आसलें. पूण विचारलें म्हूण जाप मेळटासली कित्या वयल्यान? वाडदिसाचो फोन लेगीत कट केल्लो ताणें!

ऑफिसांत पावलों तरी सायलीचेच विचार तकलेंत धुमशेणां कांडटाले. सायली कडेन मन मेकळें केल्ल्याचें समादान मेळ्ळेंच ना. ताणेंय एका उतरान म्हजी चवकशी केली ना. आनी कित्याक करची? ताचे खातीर ताचे पाटये वयल्यान म्हजें नांव ताणें पुसून उडयिल्लें. म्हज्या मनांतलें सायली तशेंच आसा - पूण ताचें ताका भोव पडलां!... कामार लक्ष लागना जालें. खूब दिसांनी-

म्हयन्यांनी - सायली वांगडा हांवें कॉफी

घेतिल्ली. फकत देड फूट अंतर दवरून आमी बशिल्लीं. पाडा पडूं म्हजें - गजाली केल्ल्यो त्योय तिरायतांच्यो. घडये सायलीक दिसलां आसतलें म्हाका सायलीचें न्हय तर ते तरणाटे अस्तुरेचें चड पडलां म्हूण.

दनपारच्या जेवणाक सगले गेले. पूण म्हजी भूक मेल्ली. सायली वांगडा घेतिल्ली कॉफीच आजून ताळ्या कडेन चरचरताली. उदक पियेवन मोबायला वयले सायली वांगडाचे फोटो पळयत बसलों - आनीक कांयच काम नाशिल्लेवरी. चार जाता म्हणसर तकली कणकणपाक लागली. कालची सांजवेळ गुन्यांवकारी भावनेन सारिल्ली. रात न्हिदे विणें जागरणान खळिल्ली. सकाळी फुडें हांवें विटयिल्लें तें सवंग. आनी सायलीचें तें अकस्मात मेळप - ना मेळिल्ले वरीच! तकली फोडटा म्हूण पेनकिलर घेवपाचो विचार आयिल्लो. पूण फाटीं एकदां सायलीनच शिटकायिल्लो म्हाका, ती याद जाली -रिकाम्या पोटार पेनकिलर घेवची न्हय. आयज बेगसार घरा वचचें आनी गुळी घेवन सुस्त न्हिदून पडचें असो विचार केलो. पूण तितल्यान मठकारान फायली धाडून दिल्यो. 'वेळ फावता तेन्ना वाचून दवर'. बेगीन घरा वचून तरी कितें करतलों म्हणून चाळींत बसलों. पूण बोटांच चाळटालीं. तकली चलनासली.

मोबायल वाजलो तेन्ना कट करपाचें चिंतून हातांत घेवन पळय जाल्यार - तकली कणकणपाचीच थारली. फोन खरोच आयला म्हाका? काय चुकून बी लागला काय? ती आनी निर्शेणी सोंसपाची तांक नासली आतां. तरी घेतलो - हॅलो! कितें जालें?

पूण सायलीचो आवाज रूक्ष दिसलो ना. आयज सांजे बिझी ना जाल्यार - डिनराक या? हो तर आदले सायलीचो आवाज! काय म्हाका दिसलें तशें?

''खरेंच विचारता?'' हांवेंच अनमनत विचारलें.

''यू थिंक आय ॲम किडींग?'' दोळ्यां मुखार नाशिल्ले सायलीचो हांसो म्हाका स्पश्ट दिश्टी पडटालो.

''खंय?'' आजून म्हजो विस्वास बस नासलो.

''कमॉन विराज! तूं व्हरचो ना तर म्हाका? तुका जाय थंय व्हर!''

पांच म्हयने खंय शेणले कळ्ळ्लेंच ना. काल पयरच मेळिल्लेवरी आमी मेळ्ळीं. मेळटा खिणीं मदलो पयसावो विरून गेलो. मदले सगले दुवे आमी परतून जोडले.

''तूं नकळ सायली. कितलें मीस केलें तुका हांवें!''

''जाणां! दिदीन सांगलें म्हाका -''

दिदी? हांवें तर ताका तकलेंतल्यान काडून उडयिल्लें.

''हय. दिदीनच सांगलें म्हाका. तूं ताचेर कितलो रागार जालो तें. सायली बगर लग्न जावचों ना म्हणिल्लें खंय तुवें. आपणांली चूक प्रांजळपणान कबूल केली ताणें... प्लीज विराज, भयण मरे तुजी ती! फाल्यांच फोन करून सांग ताका. शी वील बी व्हॅरी हॅपी!''

सायली म्हाका अजापाचे धपके दीत रावलें. ''तुवें म्हणिल्लें खंय ताका, आपूण आंकवारच रावतलों म्हूण! हांवें येवजिल्लें वर्सभर तुका तिश्ठावन पळोवचें खरेंच तूं आंकवार रावतलो जाल्यार - पूण आयज सकाळीं तूं मेळ्ळो आनी आतां मात म्हज्यान रावं नज जालें.''

साडेणव जावन गेलीं. उठपाच्या वेळार सायलीन म्हजो हात घट धरून म्हळें, ''आय रिअली ॲडमायर यू, विराज! सकाळीं तुवें जें सांगलें त्या संबंदान म्हणटां. तूं मरे खूब सरळमार्गी. तुका म्हजी गरज आसा आतां.''

''सदांच आशिल्ली.'' हांवें दुसरो हात ताच्या हातार दवरून म्हणलें, फुडेंय आसतली.

''सकाळीं तुका मेळिल्लें पळय ताची खबर जाणा तूं?''

''हांवेंच तर सांगली तुका -''

''ती खरी न्हय. तूं जाका गुंड समजता तो तिचो घोव -''

हांव गणमणलों. ''आनी... तो...?''

''तो तिचो लव्हर - मोगी!'' सायलीन फुडें सांगलें, ''पूण तांचो पयलीं थावन मोग आसलो. रावपाक सारकें घर ना म्हणून तो लग्न फुडें धुकलतालो. मजगतीं आवयबापायन तिचें बळयां त्या दादल्या कडेन लग्न करून दिल्लें.... पूण तूं जाणा? कालचे घडणुकेन तिणें निर्णय घेतलो. काल रातीच ती घोवाक सोडून कुळारा गेली. रोखडोच ती डायव्होर्स घेतली आनी त्या मोगी लागीं लग्न जातली. तांचें थारलां तशें! तुजी ती टू बी.एच.के. ची ऑफर हांवें पावयल्या तांचे मेरेन. दे आर व्हेरी हॅपी!''

आनी मागीर निमणो सरप्रायज आयलो. वेटरान बर्थडे केक हाडून मुखार दवरलो. म्हणसर रेस्टॉरांतल्या संगीताचेर हॅपी बर्थ डे धून लागली. आनी ते राती आमी दोगांनी केक कापून सायलीचो बिलेटेड बर्थ डे मनयलो.

संपर्क: ९४२२०५९५०९



## उकतावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)

| | |
|---|---|
| १. उजवाडावपी थळ | : मडगांव, गोंय ४०३ ६०१ |
| २. उजवाडा येता तो काळ | : दर म्हयन्याक |
| ३. उजवाडावपी, छापपी आनी धनी | : जयवंत भालचंद्र सरदेसाय |
| राष्ट्रियताय | : भारतीय |
| नामो | : ११, लोटलीकार बिल्डींग, कोंब-मडगांव-गोंय ४०३ ६०१ |
| ४. संपादपी | : आसावरी नायक |
| राष्ट्रियत्व | : भारतीय |
| नामो | : २०१ -बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स, रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड, मडगांव-गोंय ४०३ ६०१ |

हांव, जयवंत भालचंद्र सरदेसाय, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे म्हायतीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

**जयवंत भालचंद्र सरदेसाय**
उजवाडावपी

# घुसपप

**कृ. म. सुखठणकार**



घुसपप म्हणजे कितें आनी ताचो प्रॉसेस कितें हें हांवें तुमकां सांगपाची गरज ना. आमी हे भुंयेर पावल दवरिल्ले खिणा पासून आमची कित्यांत ना कित्यांत घुसपुपाची सुरवात जाता. निर्मात्यान माया निर्माण केल्या ती आमकां घुसपावपा खातीरूच. आमी ते मायेंत घुसपतांत आनी आमचें जल्म आनी मृत्यु अशें चक्र सुरू जाता. संत जे जावन गेले (हांवें भूत काळ वापरला कारण वर्तमानांत ते नात आनी भविश्य काळांत आनीक तयार जायत अशीं चिन्ना दिसना) ताणी आपल्या बोमलेच्या देटा पासून आड्डून सांगलें की बाबानो हे मायेंत घुसपून उरत जाल्यार मृत्यु लोका वयल्यो तुमच्यो वारयो चालूच उरतल्यो. पुणून आमच्या तें कशेंच लक्षांत येना. अशोक परांजपेनी (हे संत न्ही) म्हणलां

*जन्म मरण नको आता, नको येरझार,*
*नको ऐहिकचा नाथा व्यर्थ बडिवार*
*बालवयी खेळी रमलो, तारुण्य नासले,*
*वृद्धपणी देवा आता दिसे पैलतीर.*

तांणी कितें म्हणलां तातूंत तथ्य आसा. आमी खंय तरी नाका आसतना रमतात. मन खंय तरी रमलें म्हणटकच मनीस खंय तरी घुसपलो अशें समजुचें. हांवें हाचेर खोलायेन वचून अभ्यास केला म्हणून म्हाका हें समजलें. हे खातीर दर एकल्यान खोलायेन वचप गरजेचें अशें म्हजें मत.

खोलाये वयल्यान याद जाली, मनीस रेब्यांत खोल मुंगरतकच तो भायर सरपाचो यत्न करता. जितलो तो भायर सरपाचो येत्न करता तितलो तो आनीक खोल मुंगरता. घुसपुपाचो प्रॉसेस असोच.

शंकराचार्यानी एके कडेन म्हणलां,

*पुनरपि जननं पुनरपि मरणं*
*पुनरपि जननी जठरे शयनम्*
*इह संसारे बहुदुस्तारे*
*कृपयाऽपारे पाहि मुरारे*

इतलें सगळ्यानी सांगून शिटकावन लेगीत आमी सुदारनात. आमी ह्या मोह मायेच्या जाळ्यांत घुसपत आसात आनी घुसपुनूच उरतले अशें म्हाका तरी दिसता. आमकां ताचें कांयच वायट दिसना हाचें म्हाका चड वायट दिसता.

पयर हिचो बापूय आमगेर आयिल्लो. कित्याक आयिल्लो म्हाका याद जायना. हरशींय म्हणून ताका आमगेर येवपाक कारणां लागनात. विचारल्यार, 'असोच! दिसलें येंवचें! सरलो भायर आयलो तुमगेर ह्हेंऽ ह्हेंऽ ह्हेंऽ' अशी ताची जाप आसता. म्हणटकच हांवें आतां विचारपाचें सोडून दिलां. ताच्या आनी म्हज्या वेळाचो अपयव तो. सोड. हो आयला म्हणटकच मुद्दम बाजारांत वचून बांगडे हाडले (दोनश्यांक पांच). हरशीं हिणें दारांत जितो गालमो घेतिल्लो. आसूं. बांगड्यांची हिणें उड्डमेथी केली. ती भुरकायत तो रंगार आयलो.

''जाणा जावंय बापू, म्हाका दुसरो जल्म शेर्त''- उड्डमेथी भुरकायत.

''कित्याक म्हणटा तुमी?''- गालमो तोणाक लायत हांव.

''आरेऽऽ, अशी उड्डमेथी कैलासार कोण घालतलो रे तीय बी बांगड्यांची? आंबाड्यांची बी आसत एकवेळ. आगो एक शेपडे कडलो कुडको वाड. पयलें वाक्य म्हाका दुसरें आपले धुवेक.

''तेंय खरें''- हांव.

''स्वर्ग नको सूरलोक नको मज लोभस हा इहलोक हवा. तृप्ति नको मज मुक्ति नको पण येथील उड्डमेथीचा भुरका हवा'' - आनीक एक भुरको मारीत ताणें बाकीबाबाची याद केली.

''अन फ्रॉइडचा मज काम हवा''- हांवेंय म्हजें मन तेच निमतान उगतें केलें. सोड.

बांगडो जेन्ना उड्डमेथयेंत पडटा तेन्नाच ताका मुक्तीचें दार उगतें जाता. आनी तीच उड्डमेथी भुरकावन पुनरपि जननं पुनरपि मरणं प्राप्त जाता ह्या दुख्खाचो लवलेश ताच्या चेऱ्यार दिश्टी पडलो ना. ती उड्डमेथी हांवें दुसऱ्या दिसा चपातेक लावन खाली. शेळी उड्डमेथी चड बरी लागता, तुमचे म्हायती खातीर.

मनीस ही भूंय सोडून वतकच ताचो जीव कित्यांत घुसपून उरला हें आमकां ताच्या बाराव्याक सोदून काडचें पडटा. नाजाल्यार कावळो पिंडाक कसोच आफडिना. तो पिंडाक आफुडलो ना जाल्यार जेवणाक तीन- चार (सांजचे) वाजूं येता. हे खातीर जे वचपाचे वाटेर आसात तांचो जीव कित्यांत घुसपू येता हाची वळेरी करप गरजेचें. हें काम कठीण हाची जाणीव म्हाका आसा. आजकाल, कोण, केन्ना, कसो उठून चालीक लागत (कैलासाच्या) हाची खात्री कोणाच्यानूच दिवं नजो हेंय तितलेंच खरें. हिचो एक मावस भाव, तीस पस्तीस वर्सांचो आसतलो. आंकवार आशिल्लो म्हणटकच आयतारा गरोवपाक गेलो. गरी उदकांत उडयता थंय आसा दोन किलोचो पालू ताका फारावलो. हाका कितें जालें खबरना हो थंयच कोसळ्ळो. थोडे म्हणटात ताका हर्शवायू जालो, सांगू नजो. फार्टी पयलेच खेप गुलाबी रंगाची नोट हातांत घेतकच कोणाक तरी हर्शवायू जालो अशें सावळो सांगऽ. तर, बाराव्या दिसा हांवें म्हजें कर्तव्य म्हणून दिसाळ्यांत फोटो दिवन (मावस भावाचो, पालूचें कितें जालें खबर ना) 'आता जेव्हा जेव्हा पानावर पालू पडेल तेव्हा तेव्हा तुझी आठवण येईल बरं' अशें छापून हाडलें. खूब जाणांक तें आवडलें म्हूण म्हाका फोन आयले. म्हाकाय बरें दिसलें. थोडे आपल्या मृत्यु पत्रांत आपूण वतकच दिसाळ्यांनी अशी जायरात दिवं नाकात म्हूण बरोवन दवरतात अशें सावळो सांगऽ. मागीर फाटल्यान उरल्यात ते लोक अशें ताणें मृत्यु पत्रांत बरोवन दवरलां हाची जायरात करतात तें सोड. तर, हिगेल्या मावस भावाच्या बाराव्याक पिंड दवरलो तरी कावळो पिंडाक अफडिना. घरच्यानी पालूच्या बोडकेची कळपुटी करून घालतां अशें कावळ्याक सांगलें तरी तो आफडिना.

शेवटीं कोणें तरी, 'आरे तुवे धुवन दवरिल्ले कपडे शामसुंदर मडवळागेर फेर्राक दितां रेव' अशें म्हणलां मात, कावळ्यान पिंडाक चोंच मारली. हेच खातीर हांव म्हणटां मनशाचो जीव कित्यांत घुसपून उरत सांगू नजो. हांवें दिसाळ्यांत दिल्ले जायरातीक तिनशें चाळीस रुपया देसपेस आयलो तुमचे म्हायती खातीर.

हांवें जेन्ना मनीस कसो घुसपता हाचेर खोलायेन अभ्यास केलो तेन्ना म्हाका अशें दिसून आयलें की खूब फावटीं घुसपुपाक दुसऱ्या मनशाचो हात आसता. केन्ना केन्नाय तो आपलेय करण्यांनी घुसपता, ना न्ही. 'महाभारत' जाणी पळयलां (टिव्हीचेर) तांकां द्रोणाचार्याक धर्मराजान कसो घुसपायलो आनी ताचो परिणाम कुरुक्षेत्राचेर कसो जालो हें खबरूच आसतलें (नरो वा कुंजरो वा प्रकरण). धर्मराजान जें केलें ताका आयची पिढी गुगली घालप अशें म्हणटा. थोडक्यांत, धर्मराजान द्रोणाचार्याक गुगली घाली आनी द्रोणाचार्य क्लीन बोल्ड जालो अशेंच म्हणचें पडटलें. आतां गुगली म्हणजे कितें तें जांकां क्रिकेटीचो गंध ना तांच्यां खातीर सांगचें पडटलें नाजाल्यार तीं हें वाचतना नाका आसतना घुसपतलीं. A googly is a delivery which looks like a normal leg spinner but actually turns towards the batsman like an off-break rather than away from the bat. हे सायबांचे भाशेंत जालें. आमचे भाशेंत सांगचें जाल्यार बोल भायर वचपाचो तो भितर येता. हाका लागून खूब फावटीं फलंदाज घुसपता आनी आवट जाता. गुगली घालपाक क्रिकेट खेळुंकूच जाय अशें ना. गुगली खंयूय घालू येता हें आमकां बी. आर. चोप्रा रचीत 'महाभारत' पळयतना कळ्ळें. गुगली खेळटलो जाल्यार फलंदाजाक गोलंदाजाच्या हातार लक्ष दवरचें पडटा. तशें केलें ना जाल्यार बोल वळखुपाक कठीण जाता. तेच भशेन मैदाना भायर गुगली खेळटलो जालार गुगली घालतल्याच्या चेऱ्याचेर बारीक नदर दवरप गरजेचें. खूब फावटीं दोळे सगळें मनांतलें उलोवन वतात. कुरुक्षेत्राचेर जेन्ना धर्मराजान 'अश्वत्थामा हता इती नरो वा कुंजरो वा' म्हणलें तेन्ना दोळे ताणें खंय तरी शुन्यांत लावन म्हणलें. द्रोणाचार्य पयस रथार उबो आशिल्ल्यान तो धर्मराजाच्या दोळ्यांत दोळे घालूंक पावलो ना म्हणूनूच तो धर्मराजाचे गुगलीचेर क्लीन बोल्ड जालो.

बायलांक अश्यो, हांव वायट म्हणचो ना, अश्यो गुगली घालपाची संवंय आसता. आनी दादले दर खेंपे क्लीन बोल्ड जातात हें हांवें वेगळें सांगपाचीं गरज ना. जेन्ना बायलेचो प्रस्न येता तेन्ना घोव सदांच बॅकफुटार आसता हें सगल्यांक खबरूच आसतलें. म्हणटकच तांकां गुगली नेगोशियेट करप खूब कठीण वता. हांव म्हजीच देख दितां,

सुवात=रांदचे कूड

काळ= दनपार

हांव बाजारांतल्यान घरा येतां आनी सामानाच्यो पिशव्यो रांदचे कुडींत दवरतां. ही ओट्या कडेन साडी खोवन कसलो तरी जिनस गॅसाचेर शिजयता. जिनस प्रायमरी स्टेजींत आशिल्ल्या कारणान कितें शिजता तें कळना. वास घाण कांयच येना. सोड.

**ही:** आव्वयस! आज बेगीन शे आयले! आज वितोरीगेर स्टॉप घेतलो ना. ( ही गुगली हें म्हाका मागीर कळटा).

**हांव:** ना गो आज स्कुटरीन वचूं ना न्ही, नागवेकारालें लिफ्ट मेळ्ळें डायरेक्ट घरा आयलों.

**ही:** हाचो अर्थ तुमी स्कुटर घेवन वतात तेन्ना वितोरीगेर बसता.

**हांव:** ना गो हांवें अशें खंय म्हणलां? (हांव बॅक फुटाचेर म्हणजे रांदचे कुडीची वणत आनी फ्रिज हाच्या गॅपांत मुंगरतां).

**ही:** तुमी तुमच्या तोंडांन सांगलें. आज स्कुटर घेवन वचूं ना म्हूण तुमी डायरेक्ट घरा पावले therefore जेन्ना जेन्ना तुमी स्कुटर घेवन वतात तेन्ना तेन्ना तुमचे पांय वितोरीले गादयेक लागतात. Hence स्कुटर+तुमी=वितोरीली गादी. म्हाका आनीक कांयच आयकुपाचें ना!

हांव वण्टीचो खोमसाक लागिल्लो चुनो फाफडीत आनी केंसांक लागिल्लो धैरांव कार्डीत सालांत येवन बसतां.

हांवें हांगा हिच्या दोळ्या कडेन बारीक लक्ष दिल्लें जाल्यार हें चित्र बदलपाचें. कित्याक तर, हिचे मनांत अशी कितेंय खोट आसत जाल्यार दोळे मोठे आनी सामकें तिरशे जातात. हांवें पिशव्यो दवरपाक ओणोव घेतिल्ल्यान म्हाका दोळ्यांत दोळे घालपाक जमलें ना. आसूं.

म्हजें घुसपप ल्हानपणांतल्यान सुरू जालें हें सांगपाक म्हाका लज दिसना. दर एकल्याचें घुसपप जिणेच्या खंयच्या ना खंयच्या पांवड्यार सुरू जाताच. म्हजें इल्लें बेगीन सुरू जालें इतलेंच. आमका शाळेंत 'डावा की उजवा' अश्या माथाळ्याचो धडो आशिल्लो अशी याद जाता. आतां पिरायेनुसार याद उरप कुस्तार जाता. पयलीं सत्यनारायणाच्या पुजेक बाबुली भटान 'म म म्हणा' म्हणचे आदींच हांव म म म्हणटालों आनी ताचें मागीर कवतुक जातालें. ही नवीच आशिल्ली तेन्ना पयले सत्यनारायणाचे पुजेक बाबुली भटान म्हणचे आदींच हांवें म म म्हणलें तेन्ना हिणें म्हाका कवतुकान दोळे भरून पळयलेल्याची याद जाता आनी दोळे भरून येतात. आज बाबुली भटान म म म्हणलें तरी म्हजें म म जायना. मागीर ही म्हज्या उजव्या हाताक चिमटो काडटा. मागीर म म तोडांतल्यान भायर सरता. आसूं तो आमचो विशय न्ही. तर, आमकां 'डावा की उजवा' असो धडो आशिल्लो. ह्या धड्यांत लेखक ल्हानपणांत जोतें घालतना घुसपतालो. दाव्या पांयाचें जोतें उजव्या पांयाक आनी उजव्या पांयाचें जोतें दाव्या पांयाक घालतालो. म्हजेंय अशेंच जातालें. फरक इतलोच, लेखकाच्या घरचीं लेखकाची फजेती पळोवन कवतुकान हांसतालीं, आमगेर म्हाका 'घोडो जालो तरी जोतें घालपाची अक्कल ना! तुका जोतीं कोणें सांगल्यांत असोच वच शाळेंत!' असलीं उतरां आयकुचीं पडटालीं. हांव असो घुसपतां म्हूण सावळ्यान मागीर वण्टीर उजवा पांय आनी डावा पांय पितारलें. आनी त्या प्रमाण जोत्यांची मांडणी केली. आयजूय वण्टीर तें पितारिल्लें तशेंच आसा आनी हांव संवंये प्रमाण तें वाचून म्हजे पांय जोत्यांत धुकलतां, तुमचे म्हायती खातीर. देवळा भायर बी जोतें आरतें परतें जाल्यार म्हाका आतां रोखडेंच कळटा ही जमेची बाजू. खंयचेय गजाली बद्दल आपली नदर सकारात्मक दवरची ती अशी. सोड.

म्हजी परवड हांगा थांबली ना. फुडें हांव 'न' उतर बरयतना घुसपुपाक लागलों. हांवें न'क कानो नाका ते वटेन दिवपाक सुरू केलें. पाटील गुरुजीन म्हज्या सामकार दिमी मारली.

''तुला 'न' शिकवता शिकवता माझ्या नाकी नऊ आले''

अशें कितें तरी दोळ्यांत दुकां हाडून ताणें म्हाका म्हणलें. मागीर ताकाय 'न' परतें वाचपाची संवंय जाली. पांचवेक सायबांची भाशा

आयली. थंय 'b' आनी 'd' परतीं काडपाक सुरवात केली. ह्या संबंदीची कागाळ फादर थॉमसा मेरेन पावली. ताणें "Oh Jesus' 'Oh Jesus' म्हणत कदेलार बशिल्ले कडेन सुसकारे सोडले. आज जेन्ना हांव फाटीं वळून पळयतां तेन्ना बाकीच्या भुरग्यांक हें सगलें सहज कशें जमलें हें चिंतून म्हाका अजाप जाता. ताँकां हें करतना कांयच एक्स्ट्रा एफर्ट घेवंचे पडनात हें म्हाका उगत्या दोळ्यांनी दिसतालें.

पिराय वाडटा तशी म्हजी घुसपुपाचीं थळां बदलपाक लागलीं पूण हांवें घुसपुपाचें कशेंच सोडलें ना. म्हाका याद आसा, मतदानाचो एकूच हक्क आमकां आसा, तो जेन्ना म्हाका मेळ्ळो तेन्नाय हांव घुसपलों. एका उमेदवारान आमच्या संडासाचे उबून गेल्ले नळे घालून दितां सांगिल्लें आनी दुसऱ्यान संडासाचें दार सारकें लाग नाशिल्लें तें जाग्यार घालता म्हणिल्लें. हीं तांची आश्वासनां आयकून थोडे कुच्छित्री हांसतले ही जाणीव म्हाका आसा, ना न्ही. म्हाका मतदानाचो हक्क मेळिल्लो तो काळ तो. आसूं. म्हाका कोणाक मत मारचें हेंच समजना जालें. तेन्ना मत मारताले, आज बटण दांबतात पुणून आमची परिस्थिती तशीच आसा. सोड. तर, हांवें दार जाग्यार घालता ताका मत मारलें कारण दाराचो आमकां चड त्रास जातालो. पंच जातकच त्या मनशाक हाडून आमकां दाराचो कसो त्रास जाता हें दाखोवन दिलें. पंच दोनदां आसनाचेर बसलो (आमच्या संडासाच्या) तेन्ना मेजून चारदां दार उगडलें. वतना आपूण दाराचें कितें करापाचें तें करतां अशें उत्तर दिवन गेलो. आजूय दार, आसनाचेर कोणूय बशिल्लो आसूं, आपशींच उगडटा. कितले खेपे उगडप हें दाराच्या मुडाचेर निंबून. आसूं, तो आमचो विशय न्ही.

जेन्ना आमच्या सामकार एका परस चड पर्याय आसतात तेन्ना आमी चड घुसपतात असो म्हजो अणभव आनी अभ्यास सांगता. जिणेंत जेन्ना जंक्शन येता तेन्ना आमी सामकेच घुसपतात. आमकां खंयचे वाटेन वचें तेंच कळना. धाव्वी जातकच, म्हजे सारकेलो विद्यार्थी, जाचो खंयचोच विशय धड नासता, ताका कितें करचें तें कळना जातकच तो घुसपता. विज्ञान शाखेचो प्रस्नूच येना कारण 'Science' सीचें स्पेलींग लेगीत 'i' comes before 'e' अशें करून पाठ केल्लें. आयटीआय (कारपेण्ट्री) करप, वाणिज्य की कला शाखेक वचप हेंच म्हाका कळना जालें. मागीर आईन कवळ्यां वचून प्रसाद घेतलो. देवतेन 'तो खंयूय गेलो तरी व्हडलो उजवाड घालचो ना, ताका जाय थंय वचूं' अशें सांगतकच हांव वाणिज्य शाखेक (मुंबय विद्यापीठ) गेलों. कारण बरोबरच्यो सगल्यो चलयो थंयच गेल्ल्यो. परिक्षेक लेगीत प्रस्नांच्या जापेक चड पर्याय आसल्यार आमी घुसपतात (हांव तरी). देखीक, In the year 1948, Mahatma Gandhi ended his fast by drinking...

1. Plain Water 2. Coconut Water 3. Lime Juice

आतां आमचे गांधीजी जिणेंत आयिल्ल्या दिसा उपासाक बसताले. ताचो तपशील दवरचो पडलो. उपास सोडटना एकल्या नेहरुच्याच हातांतल्यान कितें तरी घेवन कितलेशेच उपास सोडले हें आमकां फोटे पळयल्यार कळटा. खुद्द नेहरुकूच आपणे गांधीजीक कितें पिवयलें हें खबर आशिल्लें जाल्यार दुबाव. हो असो प्रस्न आमकां परिक्षेक आमचे मार्क खावपाक येतलो हें गांधीजीक खबर आशिल्लें जाल्यार ते केन्नाच उपासाक बसचे नाशिल्ले हाची खात्री म्हाका आसा. आसूं.

वयार येतकच जेन्ना लग्ना खातीर थळां पळोवप सुरू जाता तेन्ना खूब थळां एकदम येतकच मनाची अवस्था अशीच जाता. मन घुसपता. म्हजेर अशी परिस्थिती केन्नाच आयली ना पुणून हांवें थोडो तेप मध्यस्त्याचें काम केल्ल्यान म्हाका हें खबर आसा. हांवें एकदां चलये खातीर दोन थळां दाखयल्लीं. दोनूय तिका भावलीं. तेन्ना तिका कितें करचें हेच कळना जालें. एका चल्यान 'भाजिल्ले वाटाणे खावप ' ही ताची हॉबी अशें म्हाका म्हणिल्लें. चलयेकूय वाटाणे प्रीय. दुसऱ्या चल्याक काळुन्नरां घोस्ताचीं. चलयेचेंय favourite fish काळुन्नर चल्यांच्या बाकीच्या गुणांचें चलयेक पडून वचूं नाशिल्लें.

''कितें करूं गे मम्मा? इधर है काळुन्नर उधर है वाटाणा!''

अशें तिणें आपले मम्माक म्हणलें. एका शायरान (जफर गोरखपुरी) अशेंच म्हणलां

*ए गम-ए-जिंदगी कुछ तो दे मशवरा*
*एक तरफ उसका घर एक तरफ मैकदा*

वयर म्हणलां तशें अशें घुसपावन उडोवपी पर्याय आसतकच मनीस काचाबूल जाता आनी घुसपता. ते चलयेन वाटाणो आपणायलो काय काळुन्नर हें चिंतून तकली जड करपाची गरज ना.

मनशाक खंयच्याय विशयाची म्हायती नासल्यार तो घुसपुपाची दाट शक्यताय आसता. आमच्या दत्ताक हवामान खात्यांतल्यान (हवामान सांगतना घुसपता तें खातें) मुलाखती खातीर आफोवणें आयलें. ताका पयलो प्रस्न विचारलो 'मौसम कितने होते हैं?' आमच्या दत्तान फट्ट करून छाती फुडें काडून जाप दिली, 'पतझड सावन बसंत बहार एक बरस के मौसम चार पाँचवा मौसम प्यार का इंतजार का'. ही ताची आत्मविश्वासान भरिल्ली जाप आयकून तांणी ताची फायल धांपली. तो आल्तिना वयल्यान रायबंदरा आयलो. तो परत वयर (आल्तिनार) गेलो ना. आयजूय रेडिओर हवामान खात्यान अदमास सांगपाक सुरू करतकच तो रेडिओचे कान पिळटा. दत्ताची हातूंत कायच चूक ना. आनंद बक्षीचे ते पदाक लागून तो घुसपलो. कारण त्या विशयाची ताका फावो ती म्हायती नाशिल्ली. हवामानाची फावो ती म्हायती खात्याक तरी आसा जाल्यार म्हाका खबर ना. आसूं.

म्हजें लग्न जालां तेन्ना म्हाका कुटुंब नियोजना विशीं कांयच खबर नाशिल्लें म्हणटकच हांव लग्नाच्या देवकार्या आदल्या दिसा म्हांबऱ्याल्या फार्मासींत म्हांबऱ्याक वचून मेळ्ळों. ताणें तेन्ना कुटुंब नियोजनाचे आशिल्ले तितलेय उपाय म्हाका सांगले. सेफ पिरेडीचेर ताणें अर्द वर म्हायती दिली. म्हाकाय ती आवडली. तरीय सेफ पिरेड म्हणजे कितें तें म्हजे तकलेंत गेलें ना. म्हांबऱ्याल्या फार्मासींतल्यान भायर सरलों. तातूंत लग्नाचें टेन्शन. लग्नाचे पयले रातीं म्हांबऱ्यान सांगिल्लें सगलें हिच्या कानार घालें. हिणें 'कुटुंब नियोजन' हें उतर आदीं आयकूं नाशिल्लें. म्हणटकच ही, 'आवय म्हजे अशें तर तें?' अशें म्हणून म्हाका प्रस्न विचारपाक लागली तसो हांव आनीक घुसपुपाक लागलों. म्हांबऱ्याक फोन करतलों म्हणल्यार मध्यान जाली. हांव घुसपल्ले अवस्थेंत सेफ पिरेडीचेर पावलों. ही बोटां मोडून मोडून सेफ पिरेडीचो हिशोब करपाक लागली. हिका गणीत जमना जातकच हांव म्हजीं बोटां मोडूंक लागलों. तरीय आमकां सेफ पिरेडीचें गणीत जमलें ना. ही आपली लिप्स्टीक घेवन वण्टीर भागाकार आनी गुणाकार करपाक लागली.

''आगो इतलेंय कुम्प्लीकाद ना गो तें न्हीद तूं. फाल्यां म्हांबऱ्याक विचारून करुया तें कोंत.''

हांवें लायट काडली, तकलेक अमृतांजन सारयलें आनी न्हिदलों. सोड.

हांव मुंबय नलूगेर वता तेन्ना म्हाका जाय ती ट्रेन ज्युस्त हांव उबो राविल्लों प्लॅटफॉर्म सोडून खंय तरी उबी रावता. गाडयेंत चडटकच देंवपा खातीर प्लॅटफॉर्म खंयचे वटेन येतलो तेंय म्हाका कळना. सगलोच घुसपा गोंदोळ! बशींचेंय तशेंच. माहिमाक २९ नंबरची बस वता हें म्हाका खबर आशिल्लें. बस स्टॉपार बस आशिल्ली ती सामकी खाली आशिल्ली. हांव उमेदीन जनेला कडेन बसलों. बस मदींच गॅरैजींत वता असो भास जालो. हांव 'अहो' 'अहो' म्हणत उबो रावलों.

''बस आगरा कडेन अशी पाटी लावलेली बगितली नाय काय?''

''अहो मी २९ आकडा बघून बसीत चडलो काका.''

''आता जसा चडला तसाच गुमान उतरा.''

अशें म्हणून वाहनचालक आनी वाहक बशिंतल्यान देंवले.

मनीस घुसपता तशे गळ्यांतलें जानवेंय घुसपता हें म्हाका म्हजी मूज जातकच कळ्ळें. जानवें गळ्यांत घालच्या आदीं घुसपता हें म्हाका अणभवान कळ्ळें. जानवें सोडोवच्या आदीं भिजयल्यार तें मेकळें करपाक सोपें जाता. बाबुली भट आपल्या बोंटाचो आनी कोपराचो वापर करून तें सहज सोडयतात. म्हाका तें केन्नाच जमलें ना. हिचो णव वारी न्हेसतकच कापडान पांय सदांच घुसपता. हिका घरांत धार्मीक कार्य आसता तेन्ना नाकांत नथ आनी णव वारी कापड न्हेसपाची भयंकर उमेद. म्हणटकच ही कापड न्हेसता तेन्ना म्हाका म्हजी सगलीं कामा सोडून हिचे फाटल्यान फुडल्यान भोंवचें पडटा. एकदां देवकार्या कडेन (माघांतले पंचमी कडेन) म्हजें लक्ष 'ॐ केशवाय नमः, ॐ नारायणाय नमः ...' करपांत उरलें आनी हिणें कापडांत घुसपून साराच्या तोपा सकट घालून घेतलें. सार आनी वरणाच्या तोपांचें मिलन जालें. म्हणटकच वाडटना वरण आनी सार वेगळो वाडचो पडलो ना, हो मात फायदो जालो. वायटांत लेगीत बरें पळोवप तें अशें.

केंसांची बटां आनी जुल्फें देवान घुसपुपा खातीरूच दिल्यां अशें शायरांचें मत. तातूंत घुसपून रावन कितल्याश्याच शेर आनी शायरींक जल्म दिला ही बऱ्याची गजाल. काळजाचें तर विचारूंच नाका. तें खंय, केन्ना आनी कशें घुसपत सांगू नजो. जेन्ना हें काळीज ते जुल्फानी घुसपता तेन्ना जिवाक खूब त्रास जातात. ताचेर उपाय करतलो म्हणल्यार आज मेरेन मानव जातीक ताचेर उपाय सांपडूना. म्हणुनूच गालीब म्हणटा,

*शिकन-ए-जुल्फ-ए-अंबरीं क्यूं है*
*दिल-ए-नादां तुझे हुआ क्या है*
*आखिर इस दर्द की दवा क्या है*

संपर्क: ९८५०५३०७५६



# कोंकणी पुस्तकाचो प्रकाशन सुवाळो! एक 'रेडीमेड रेसीपी'

कोंकणींत खंय सरासरी दिसाक एक पुस्तक उजवाडाक येता (खरें फट देव जाणा). म्हणजे वर्साक ३६५ पुस्तकां! ३६५ सोडात, वर्साक २०० तरी पुस्तकां नक्कीच उजवाडाक येतात. ह्या पुस्तकांमदीं 'पयलो चंवर', 'दुसरो चंवर, 'निमणो चंवर', कला आनी संस्कृती खातें, राजभास संचनालय, कला अकादेमी, वन खातें हांच्या अनुदानाच्या आदारार पुस्तकां उजवाडाक येतात. कांय वेळार लेखक आपल्या बोल्सांतले पयशे खर्चून पुस्तकां उजवाडाक हाडटात. हालींसराक तांचो आंकडो खूबच देंवला.

वाचन संस्कृती सोंपपाक आयल्या हें म्हणपी लोंकांक ही जाप! (हांतूतलीं कितलीं पुस्तकां खऱ्यांनीच वाचपी विकते घेतात आनी वाचतात ही गजाल वेगळी). पूण लेखक आनी प्रकाशक दोगूय लुकसाणेंत वचनात नाजाल्यार इतलीं पुस्तकां येवपाचीं?)

तांतल्या तातूंत 'पयल्या चंवरा'खाला उजवाडाक येवपी पुस्तकाचें अप्रूप चड. कोंकणी अकादेमीन ही येवजण सुरू करीत सावन जायत्या जाणांच्या प्रतिभेक चंवर आयलो. हांतलो खुबसो चंवर झडलो, थोडो करपलो आनी साप्प थोड्या चंवरांक फळां धरलीं.

**ललीत निबंद**

'पयल्या चंवरा' खाला उजवाडाक येवपी पुस्तकाचो प्रकाशन सुवाळो म्हणल्यार कोंकणी मळावेलें एक अप्रूपच! तशें पळोवंक गेल्यार खंयच्याय लेखकाचें पयलें पुस्तक उजवाडाक येता तेन्ना त्या लेखकाक एक आगळीच खोस भोगता. ताका तो आपलें पयलें भुरगें बी म्हणटा. ही खोस तो चार चौगां मदीं वाटूंक सोदता.

'पयल्या चंवरा' खाला येवपी पुस्तक म्हणल्यार लेखकाक सोर्त कशी! पुस्तकाचो सगळो खर्च अकादेमी करता आनी वयल्यान मानधन! तीं पुस्तकां खपलीं वा ना खपलीं लेखकाचें कांयच लुकसाण जायना आनी प्रकाशकाचेंय. प्रकाशकान वा लेखकान नेट लावन पुस्तकां खपयलीं तर तो तांचो फायदोच! (ही कळाशी खूब जाणांक बरी जमल्या, आसूं.)

हांवें म्हणलां तशें 'पयल्या चंवरा'खाला उजवाडाक येवपी पुस्तकाचो प्रकाशन सुवाळो म्हणल्यार कोंकणी मळावेलें एक अप्रूपच! हे प्रकाशन सुवाळ्याक काय बरीं नकसूद नांवां दिल्यात. 'पुस्तक विमोचन सुवाळो', 'पुस्तक लोकार्पण सुवाळो' आदी.

पुस्तक उजवाडा हाडपाच्या कार्यावळीची 'वातावरण निर्मीती' करप म्हणल्यार एक कळाशीच! पुस्तक उजवाडा हाडपाच्या सुवाळ्याची 'प्रेसनोट' काडून (लेखकाचो आनी पुस्तकाचो फोटो दिवप गरजेचें) हो एक सोपो उपाय. ते खातीर पेपरांच्या थळाव्या वार्ताहराक धरचो पडटा. आमंत्रण पत्रिका छापप हो दुसरो उपाय. आयच्या 'सोशल नेटवर्कींग'च्या जमान्यांत फेसबूक आनी 'वॉटसेपा'चेर फुकट प्रसिद्धी करपाक जाता. आमंत्रण पत्रिका लेखकांक धाडटलो जाल्यार कोंकणी अकादेमी वा कोंकणी भाशा मंडळ हांचे कडेन लेखकांचे पत्ते आनी फोन नंबर आयतेच मेळटात. आमंत्रण पत्रिका दिवपाक त्रास पडटात जाल्यार आपल्या सुवाळ्या पयली असलोच दुसरो कोणालोय सुवाळो आसलो जाल्यार त्या सुवाळयाक मुजरत भेट दिवंची. 'शेणिल्लें गोरूं करमळे तळ्यार' तशे चडशे लेखक तुमकां ह्या सुवातेर मेळटले.

आयचे कोंकणी लेखक आसप्तीचे आशिल्ल्या कारणान असल्या पुस्तक सुवाळ्याचेर ५-१० हजार मोडप तांकां चड कठीण न्हय (त्या भायर अकादेमीचें मानधन गांठीक आसाच). लेखक जितले चड पयशे मोडटा तितलो प्रकाशन सुवाळो गडगंज जाता.

प्रकाशन सुवाळो करतलो जाल्यार ताका एक हॉल जाय पडटा. सवाय भितर करतलो जाल्यार कोंकणीं भाशा मंडळाचो हॉल, कोंकणीं अकादेमीचो हॉल तुमच्यानी भाड्याक घेवंक जाता. तुमची पयशे मोडपाची तांक चड आसत जाल्यार कला अकादेमीचें ब्लॅक बोक्स, दिनानाथ मंगेशकर हॉल तुमच्यानी भाड्याक घेवंक जाता. प्रकाशन सुवाळो खंयच्याय तरी संस्थेच्या आदारान करपाची एक चाल आसा. थोडे लेखक आपलीच प्रकाशन संस्था काडटात आनी आपूणच तें पुस्तक उजवाडाक हाडटात.

पुस्तक उजवाडावचो सुवाळो म्हणटगीर उदघाटक जाय पडलो. उदघाटक हालीं तेंपार चडसो राजकारणी मनीस आसता आनी तांतल्या तातूंत सत्ताधारी. कारण ताचे बराबर सरकारी लवाजमो आसता आनी सरकारी खात्यांनी पुस्तकां खपोवंक आदार मेळटा. त्या भायर प्रसिद्धी मेळटा ती वेगळीच!

मागीर कार्यावळीचे अध्यक्ष सोदपाची पाळी येता आनी तें पुस्तक कसलें हाचेर तें अवलंबून आसता. पुस्तक कवितेचें आसल्यार नामनेच्या कवीक तुमच्यानी आपोवंक जाता, कथेचें आसल्यार नामनेच्या कथाकाराक आपोवंक जाता आदी.

पुस्तकाचेर उलोवपी ही एक नवीच प्रथा कोंकणी पुस्तक प्रकाशनाच्या सुवाळ्यांत पडल्या. अशे पुस्तकाचेर उलोवपी कोंकणीच्या मळार खूब आसात. चडशे आपल्या नांवा मुखार दोतोर लायिल्ले आसत जाल्यार चड बरें. तांकां तुमी पुस्तक पयलीं धाडून दिवपाक जाय. पुस्तक धाडलें ना जाल्यारूय कांयच फरक पडना. चडशे पुस्तक वाचनासतनाच पुस्तकाचेर उलयतात.

पुस्तक सुवाळो साडेचारांक आसल्यार तो साडेपांच मेरेन कसोच सुरू जायना. ते खातीर आमंत्रितां खातीर 'बुफे' दवरिल्ली आसता. लेखक गडगंज आसत तर प्लेटींत चार पांच नग आसतात. ना जाल्यार कांय 'काटू' लेखक आपल्या बोटव्यांत मेजून बिस्कुत्यांचे पुडे हाडटना हांवें पळयल्यात आसूं! 'बुफे' बरी आशिल्ली म्हण कार्यावळ सोंपतगीर येजमान्याक हात दिवन सांगपी लोक हांवें पळयल्यात.

हालीं तेंपार पुस्तक उजवाडावपाच्या सुवाळ्या पयलीं गायनाची कार्यावळ दवरिल्ली आसता. मागीर आमंत्रितांक आपूण पुस्तक प्रकाशनाक आयला काय गायनाच्या कार्यावळीक हाचेंच भान उरना.

आतां थोडें उत्सवमुर्ती म्हणल्यार ज्या लेखकाचे वा लेखिकेचें पुस्तक उजवाडाक येता ताचे विशीं. सुवाळ्याचो केंद्रबिंदू म्हणल्यार

लेखक वा लेखिका. ताणें ह्या सुवाळ्याक आपल्या सगळ्या घरच्यांक, सोयऱ्यांक, आमिगांक आपोवंक जाय (तांकां साहित्यांतलें कळूं वा ना कळूं). उत्सवमुर्तीन तो तर दादलो आसत तर ताणें रंग बिरंगी झब्बो घालूंक जाय (आतां मोदी ड्रेसाची फॅशन आयल्या). उत्सवमुर्ती बायल मनीस आसत जाल्यार नवो शालू आनी आशिल्लीं नाशिल्लीं सगळीं भांगरां शिंगरां घालूंक जाय. सुवाळ्याक हॉलांत भितर सरतना सगळ्यांक गुलाबाचें फूल भेटोवचें. माचयेर हारतुरे दिवपाक घरच्यांच्या, सोयऱ्यांच्या भुरग्यांक तयार दवरचीं.

पुस्तक प्रकाशन सुवाळ्याक वार्ताहारांक आपोवंक कशेच विसरूंक जायना. दुसऱ्या दिसा पेपराचेर फोटो सयत बातमी येवंक जाय न्ही?. बातमी सगळ्या पेपरांचेर एकाच दिसा येवंच्या बदलाक चार पांच दीस विंगड विंगड पेपरांचेर येता अशी माण्णी करची.

म्हाका असल्या पुस्तक प्रकाशना उपरांत पेपराचेर येता तो फोटो पळोवन सदांच हांसो येता. माचयेर आशिल्ले ते सगळे मानेस्त हड्ड्यार पुस्तकाची प्रत घेवन उबे राविल्ले पळोवन म्हाका दुसऱ्या एका फोटोची याद येता, आसूं.

मागीर चार पांच दिसांनी ह्या पुस्तकाचेर परिक्षण उजवाडाक हाडचें. ते खातीर कांय बरोवप्यांक विनंती करची, तांकां 'बाबा-पुता' करचे.

असो हो कोंकणी पुस्तक उजवाडावपाचो सुवाळो आनी ताची 'रेडिमेड रेसिपी'. पूण कांय लेखक जांचो आपलें पयलें पुस्तक उजवाडावपाचो खर्च हाता भायर गेल्लो आसता ते मागीर साहित्य संमेलनांनी वा पुरस्कार सुवाळ्यांत आपलें पुस्तक उजवाडायतात. तांकां ह्या 'रेडिमेड रेसिपी' चो कायच फायदो जावचो ना. आसूं!

**सखाराम शेणवी बोरकार**

---

पुस्तक परिक्षण

# 'पोसकें : गोअन्स इन शेडोज'

'पोसकें: गोअन्स इन शेडोज' हे नामनेचे अंतरराष्ट्रीय फॅशन डिझायनर आनी पर्यावरण मोगी पद्मश्री वेंडल रॉड्रीक्स हांचे हें तिसरें पुस्तक. गोंयच्या इतिहासा विशीं आस्था आशिल्ल्या ह्या कलाकाराची हाच्या आदी 'मॉदा गोआ: हिस्टरी अँड स्टायल' हें गोंयकारांच्या भेसांत फाटल्या पांचशें- साडेपांचशें वर्सांत कशे बदल जाले तें चित्रावपी पुस्तक आनी 'ग्रिन रूम' हें बॉलिवूड संबदांतलें पुस्तक, अशीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. 'पोसकें' ही गोंयची एक आदली प्रथा, आनी ही प्रथा चडशी क्रिस्तांव भाटकारांगेर चालू आसली. बदलत्या काळा प्रमाण ही प्रथा जरी नानपयत जावंक पावली तरी तिचो इतिहास जाणा जावंक, त्या पोसक्यांचें मनोगत जाणा जावंक हें पुस्तक वाचप गरजेचें जावन आसा.




चाळीस वर्सां आदी मडगांवां हांव ज्या हॉली स्पिरीट इगर्जीच्या वाठारांत रावतालों थंय खूब क्रिस्तांव बामण भाटकारांचीं घरां आसलीं आनी ह्या प्रत्येक घरांत एक पोसकें आसलें. तांकां पोसकीं कित्याक म्हणटात, ह्या विशीं जाणून घेवपाची म्हाका खूब उमळशीक आसली, पूण मागीर आमी घर बदललें आनी तो विचार म्हज्या तकलेंतल्यानच गेलो. कांय दीस फाटीं वेंडल रोड्रिक्स हांचे 'पोसकें' ह्या विशयाचेर पुस्तक उजवाडाक आयलें म्हण वाचलें आनी त्या विशयाची परत म्हाका याद जाली. म्हाका केन्ना काय हें पुस्तक वाचन अशें जालें.

हें पुस्तक ताचें मुखपृश्ट धरून, खूब बरें आसा. ह्या पुस्तकांत लेखकांन चार पोसक्यांच्यो कथा मांडल्यात. त्यो वाचतगच ह्या पोसक्यांच्यो व्यथा कळटात. तांणी सोशिल्ल्यो हाल अपेश्टा, समाजांत तांचे विशीं आशिल्ली प्रतिमा हें सगळें बारकायेन ह्या कथांनीं वाचूंक मेळटा. ते भायर म्हापशेच्या फामाद शुक्रारच्या बाजाराचें १९८४ वर्साचें वर्णन आसा. ह्या पुस्तकाचें खाशेलेंपण म्हणल्यार तातूंत कांय गोंयच्या जेवणांतल्या खाशेल्या जिनसांच्यो रेसिपी दिल्यात, जशे परी बोलीन्हास, वांयग्याचें लोणचें, पोर्क विंडालो आदी.

ह्या पुस्तकाचें आनीक एक खाशेलेंपण म्हणल्यार ह्या पुस्तकांत गोंयचे फामाद व्यंगचित्रकार स. मारिओ मिरांडा हांची रेखाचित्रां आसात. पुस्तक जरी इंग्लिशींत आसलें तरी सोप्या सरळ भाशे खातीर खऱ्यांनीच वाचनीय जालां. ह्या पुस्तकाच्या मुखपृश्टाचेर गोंयच्या हेरिटेज घराच्या मुखावेल्या सालाचो ब्लॅक अँड व्हायट फोटो आसा जो ह्या पुस्तकाची सोबितकाय वाडयता.

गोंयच्या एका शेणून गेल्ल्या प्रथेचेर उजवाड घालपी हें पुस्तक वाचप्यांनी मुजरत वाचचें.

(आंतरराष्ट्रीय नामनेचे फॅशन डिझायनर आनी पर्यावरण मोगी पद्मश्री वेंडल रोड्रिक्स हांकां १२-०२-२०२० सा दुखेस्त मरण आयलें. तांका आर्गां ओंपतना तांच्या पुस्तकाचें हे आस्वादन.)

**पोसकें: गोअन्स इन शेडोज**
लेखक: वेंडल रोड्रिक्स
ऑम बुक्स इंटरनेशनल
मोल: २९५ रुपया.

**सखाराम शेणवी बोरकार**
संपर्क: ९९२३३०६७५१

# कविता

## गर्भसंस्कार

मनोज नरेंद्र कामत

रगता मासाचो जीव
गर्भांत वाडटालो
अनळय, सुरक्षीत

ते जिवान उपजल्ली शक्त
आवयचे कुडींत
अदृश्ट अचर्यांची

तेंच तेज फांकतालें
आवयच्या मुखामळार
कूड लेगीत तरतरिल्ली

आवय गर्भ सांबाळटाली
गर्भ आवयचे कुडींत
पेटयतालो उदात्त उजवाड

वार पावयताली शक्त
हाडापेरांनी दिव्यरुपी
बिर्येतल्यान रुजयत रुखाक

आवयचें उतर सादतालें
मोगा लागसाण जोडटालें
ध्वनीतरंग झिरपताले काना मेरेन

दोगांय जतनाय घेतालीं
गर्भ आनी गर्भवती
एकामेकांच्या सांगातान

निसर्गाची ही मांडणी
अजापाचीच आसली
गर्भसंस्काराची
हीच खरी सुरवात आसली

## निराकार

आर. रामनाथ

हांव जाणा
म्हाका हांगाच्यान
आयज ना फाल्यां
वा परां
नाजाल्यार केन्नाय तरी
वचुंकूच जाय म्हूण पयस पयस...

निदान ते मेरेन तरी
घेवं दी म्हाका स्वास
आनी सोडूं दी म्हाका उस्वास
मनसोक्त...

खेळूं दी म्हाका
उतरां वांगडा
सुरां वांगडा
रंगां वांगडा
मनसोक्त...

साकार करूं दी म्हाका
म्हज्या विश्वांतले आकार
आनी जावं दी म्हाका
नि
रा
का
र
नकळत...

संपर्क : ९८५०४५८७६३



## चंद्रकोर ही सप्तमीची

अशोक भोंसलो

चंद्रकोर ही सप्तमीची
तुज्या सोबीत रूपाक हांसली
तांबशी सया पोल्या वेली
लजत नुलैत लजली

चंद्रकोर ही सप्तमीची
जशी पाती तुज्या दोळ्याची
काजळांन रेखीव रंगलेली
मळबा माथ्यार फांकलेली

चंद्रकोर ही सप्तमीची
जशी जोडी तुज्या ओठांची
गुलाबी गुलाब पाकुली
नाचत आयली काजुली.

चंद्रकोर ही सप्तमीची
जशी फांती तुज्या माथ्याची
थिकां तिची मळबाची
चान्न्याक लागून लिपलेली.

चंद्रकोर ही सप्तमीची
जशी वाट तुज्या भांगाची
तुज्या कोंगऱ्या केंसांत घुस्पलेली
कोर ही अथांग मळबांतली.

चंद्रकोर ही सप्तमीची
म्हज्या मनांत खोल मुंगरलेली
यो रे मोगा गायत-गायत
कुपां आड हळूच लिपलेली.

चंद्रकोर ही सप्तमीची
धायदिकांक गेल्यार पासून
इंद्रधोणू रंग-रंगात ल्हारेंत न्हावन
सर्ग सुखाचे सपन सपनेलेली

चंद्रकोर ही सप्तमीची
तुज्या काळजांत कुटुऱ्यानी लिपलेली
जल्म-जल्मां सप्तपदी गो सांगात
सर्गांतूच आमी गो मेळचेली.

संपर्क : ९९२३८०३१५८

## म्हजी शाळा

प्रकाश द. नायक

म्हजी एक शाळा आसली
ल्हानशी भुरग्यांवेदी
निरागस, निर्विकार

शाळेक चार वणटी आसल्यो
चिऱ्या मातयेच्यो
जाती - धर्मांच्यो नासल्यो

वयर पांखें आसलें
पांख्यांपोंदां कणके वांशे
वांशे - दोन जातिंच्या खांब्या वयले आडें आसलें
आयच्या सारके बरड्योवंक नासले

शाळेक जनेलां आसलीं
भितल्ल्यान भायलें
आनी भायल्यान भितह्लें दिसपा सारकीं, पारदर्शी....
आयच्या सारकीं
भितल्ल्यानूच भायर पळोवपा सारकीं
नदरेची धार मुडांवपी नासलीं

शाळेंत एक मेज आसलें
मेजार हजेरीपट आसलो
हजेरीपटांत दर एकल्याचें नांव, आडनांवा सयत आसलें
...आडनांवा वेल्यान जात वळखुपाक कळं नासलें
...पालक शिकूंक नासले

शाळा प्रार्थना गायताली
..... 'तुही राम है तूं रहीम है
तूं करीम कृष्ण खुदा हुआ....'

प्रतिज्ञा : ओठांतली आनी पोटांतली
चिमटी चिमटी वाट्टाली
देवळांत पंचखाद्य वाटची तशी...
वसंतपुजेक दोण्यांनी उसळ वाटची तशी...

प्रतिज्ञा ओठांतली : 'भारत माझा देश आहे
सारे भारतीय माझे देशबांधव आहेत....'
ती आयचे सारकी नासली!

प्रतिज्ञा पोटांतली : 'माझा मतदारसंघ माझा देश आहे
मला मत देणारे सारे मतदार माझे बांधव आहेत
मला मत न देणारे माझे गुलाम आहेत!'

शाळेच्या चारूय वण्टीचेर बरयह्लें
पूर्व, पश्चिम, दक्षीण, उत्तर....
आपूण करीन... ती पुर्व
आपूण सांगीन... ती पश्चिम
वावझड मारता... ती दक्षीण
आनी उत्तरेक खिळ्याक लावन हुमकळायह्लें
गांधीजीचें पायणेंल...
पायणेंलांत सामकें सकयल बरयिह्लें
'सत्यमेव जयते'
वारें येता तशें धोलतालें पायणेंल
आनी धोलतालें 'सत्यमेव जयते'!

## काव्य फुलां

सखाराम शेणवी बोरकार

-१-
हांवें तुज्या काळजाच्या
भितोडेक रावंक
इल्लिशी सुवात मागिह्ली
पूण तुवें आख्खें काळीजच मुगो
म्हज्या सुवादीन केलें!

-२-
हालीं म्हाका फुलां कडेन
पळयनच कशें दिसना.
तिनसांजच्यो तांच्यो
बाविल्ल्यो नदरो
मातूय म्हाका सोंसना!

-३-
काळीज बाबडें म्हजें
सामकें मुगो सोंशी क
जगपाक म्हाका शिकयता
तुज्यो यादी काडून कुशीक



संपर्क: ९९२३३०६७५१

